# फुलवाती

(आपउलोवपां)

भारती सु. शेणवी कुंकळ्येंकार






**फुलवाती** (आपउलोवपां)
**भारती सु. शेंणवी कुंकळ्येंकार**

**FULWATI** (MONOLOGUE)
**Bharati S. Shenvi Kunklekar**

---


- **प्रकाशन क्र. :** 44



- **पयली उजवाडावणी :**
  मार्च 2011
- **उजवाडावपी :**
  सुरेश सगुण नायक
  जैत प्रकाशन
  336/11 खोर्ली-तिसवाडी,
  गोंय - 403 110
  मो. : 9850465229
- **छापपी :**
  सह्याद्री ऑफसेट सिस्टीम
  खोर्ली-गोंय - 403 110
- **मुखचित्र :**
  अपेक्षा पुराणीक
- **टायपसेटींग :**
  रिया ग्राफिक्स
  [illegible] गोंय
  मो. : 9049749211
- **मोल :** रु. 75/-



---


ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणेखाला अनुदान लाबलां.


---

म्हजें प्रेरणास्थान

म्हजो बापूय

**कृष्णा पै**

आनी

म्हजी आवय

**कुमुदिनी पै**

हांच्या उगडासाक

– भारती

# मांडावळ

# मनातलें

कोंकणी भास म्हजी आवम भास आवय जशी भुरग्यांची जतनाय घेता, तेचपरी भुरग्यांनी आवयच्या भाशेची जतनाय घेवंक जाय आवयचो जसो भुरग्यांचेर आसता तसोच मोग भुरग्यांनी हे भाशेचेर दवरूंक जाय. आदल्या लोकांनी घालून दिल्ली घट्ट कोकणींची बुन्याद सान भुरग्यांनी राकून दवरपाची म्हणजेच बुन्यादीचेर फातर चडोवन वणट्यो काडूंक जाय. ह्या वणटींचे चिरे म्हळ्यार आमचे सान भुरगें जावन आसात. ह्या सान भुरग्यांक फुडें हाडपाचो यत्न केल्लो आसा. ह्या 'आपउलोवपांतल्यान' कोंकणी भास जरी एकच आसली तरी ती वेगवेगळ्या वाठारांनी हर एक तरेन उलवप जाता देखून गांव तसो भेस म्हणटात तेचपरी गांव तशी भास जावन आसा. देखून हावें वेगवेगळ्या वाठारांतल्या वेगवेगळ्या कोंकणी बोलयेंतलें उलोवप ह्या आपउलोवपांतल्यान दाखोवन दिलां. प्रत्येक भुरग्यांच्या आंगांत कसले ना कसले तरी कला-गूण आसतात. ते सुर्याच्या किरणावरी उजवाडाक हाडप हें आमचें काम, देखून हें आपउलोवप बरोवन काडलां.

माणकुल्या अबोल भुरग्यांक बोलकी करून आपउलोवपांतल्यान तांकां बरे उलवपी (वक्तो) करूंक जाय देखून ही आपउलोवपांची माळ उजवाडपाचो मुखेल हेतू. तांका नव्या हावेसान माचयेर उबें रावपाक स्पूर्त दिवप. कोंकणी खंयचेय बोलयेचें उलोवप सरळ आनी सोपें जावप होवय आपउलवापाचो मुखेल हेतू.

आपउलोवपार्चीं फुलां हांवे म्हजे तांकी प्रमाणें गोंयच्या तशी गोंयच्या भायल्यान कोंकणीं फुलां हाडून मुदयेर थीक बसयिल्यावरी दोरान गुंथपाचो यत्न केला. माणकुल्या सान भुरग्यांची हीं फुला सोबीत दिसचीं होच आपउलोवपाचो मुखेल हेतू.

**– भारती कुंकळ्येंकार**

# वेंचणूक

आगे आसा हय गे घरांत? आगे आसा हय गे घरांत? दोन फावटीं उलो केल्यार लेगीत ओ म्हणची ना ही बायल. कितल्या फावटीं सांगले हिका की घरातल्यांना भायर सरूं नाका म्हुणून. जाल्यार ही खंय आयकता? आतां आनी इलेसांवा येवन रावल्यात दारांत. असल्या दिसांनी म्हुणून हिणें आनी भायर सरपाचें आसा? कालच एकटो येवन गेलो आमगेर. तेणें न्ही आमकां रान्नीक उजो घालता तें पळोवन गॅस दिला, गॅस. कितें? भाजपाचो येयलेलो तुमगेर? म्हणोनच तर हांव हिका घरांतल्यान भायर सरूं नाका म्हण सांगलेलें. पूण आमगेर आयल्याशिवाय वचचो ना आं तो. कितें तेणें टी. यी. दिल्या? व्हडली काय धाकटी रे? काळी काय धवी रे? व्हडली? दिवुनी, दिवुनी. म्हणटकच म्हाकाय बी मेळटली तर टी. यी. कितें? शेंवतुलें कितें सांगतालें? शिंवाच्या शिक्क्यान कपडे धुवपाचें मशीन वांटला म्हणोन? वांटुनी, वांटुनी. हांवे तुमकां सांगोक ना. आमचेय दीस येतले म्हणोन. देवाचीच किरपा म्हणोक जायें. आनीक आनीक कितें कमी दिलां रे आमकां देवान? कितें? कोंग्रेसीच्या उमेदवारान फिरीज दिला? मागीर! आं कितें म्हणटा? वेंचणूकेक खंय देड म्हयनो आसा. कोंग्रेसीन खंय येन्नाच समराधना करोंक सुरवात केल्या. तेणें न्हू आमकां रान्नीक उजो लेगीत घालूं नाका म्हळां. आमची चौदाय मतां आमी तेमकांच दिलीं. हय तर, कोणे टी. यी दिल्या जाल्यार कोणे फिरीज दिला, कोणे गॅस दिला जाल्यार कोणें कपडे धुवपाचें मशीन दिला. आमकां सगळेंच सारकें न्हू? केन्नाय उलो मारल्यार ओ म्हणोंक जायें तेणीं. आनी खाल्यापानार म्हणोन हागोंक जाता हय रे विठ्ठला? मागीर तुका कसें दिसता? आमी सगळ्यांकूच निवडून दिल्ले बरें न्हू? मागीर मारों मरें हांव सगळ्यांचेरच शिक्को? कितें म्हणटा? बटणां दांबपाचीं म्हणोन? मागीर दाबूं मरे हांव सगळ्यांचीच बटणां? आरे विठ्ठला तुका दिसना. हीं इलेसांवा 5-5 वर्सांनी कित्याक जाता काय म्हणोन? वर्सान वर्सा जाल्लीं जाल्यार आमची घरां भरोन दारां व्हांवची नाशिल्लीं काय म्हणटां? खरें मरे विठ्ठला? ●●●

# भट (कारवारी)

हेलो घरल्यार्गी कोण आसा हय? आं कितें म्हळो? मेगेलें नांव, मेगेलें नांव, रामू मून पांडू कलर डू डाय डू. कसलो बोवाळ चलता वो घरांत? आं, डोगान कट केलो लेग? पाड पडूं मरे मागीर तुका खबर ना! मोर्नींगा उठून वोका वतलो जाल्यार हातांक स्टीक घेवन वचच्या जाय. नाजाल्यार डोगापासून ट्रबल जाता खंय. कितें म्हळो? कसल्याकीं येइल्लो म्हणटा? भटपण करच्याक. म्हाका न्ही बेस बरें भटपण कळटा. रातीन करची गोकुळाष्टम म्हाका न्ही दनपरच्या तिनामेरेन करूंक कळटा. गोंदळीक करचें तुळशी लग्न म्हाका न्ही सकाळीं आठां मेरेन करूं कळटा. श्राद्धाचें विचारता हय? म्हाका न्ही आमान्यय दिवूं कळटा. जाती भायली आसल्यार जातीं हाडूं कळटा. पयण वचून लग्न जात जाल्यार म्हाका न्ही तेवंय करूं कळटा. मागेली दक्षणा पळय, चड न्हय हां. फकत् 500 च रूपय. आं पुजेचें विचारता हय. सव्वा 5 किलो तांदूळ बारीक हां, निवळ वेंचिल्ली तोरी डाळ, सव्वा 5 किलो मूग, सव्वा 5 किलो तूप. गांवठीच हां. नायलन फोव बाकी भटा दिवचें तुमकां खबर आसा न्ही हो. भटा दिवचो 9 वारी गोल्डन बॉर्डर आशिल्लो वालो. बरें तर येतां हांव. कितें म्हळो? जेवनच वच म्हणटा? म्हाज़्याखातीर वेगळें जेवण करची गरज ना हां. म्हाका न्ही कांदो आणि गोटोय जाता. कोंब्याआंबटय जाता म्हशी शिंगा शाकय जाता. म्हड्या रोसय जाता. पूण आज म्हाका कशेंच राबच्चा मेळणा पळय. भायर क्लायंट राबल्या आसतले पळय. म्हाका वचच्याकच जाय. मेगेलो अॅड्रेस तुमकां खबर आसा न्ही हो. मडगवां तिमल्या बिल्डींग, 3 रो फ्लोअर, एअर कंडीशन रुम पळय म्हागेलो. कितें म्हळें मीट टाईम, मोर्नींगा टेन ओ क्लोक ओपन जाता पळय. नो लंच ब्रेक. नो क्लोज डेयान. बरें तर येता हांव.



# प्लास्टीक हटाव

(नुस्त्याचीं बोडकां, भाजी पालो बांदून येता आंगाक)

कितें म्हणटा? तुमी म्हाका वळखूंक ना? आगे हांव प्लास्टीकाचो नाश करपा खातीर महाभारतांतल्यान आयलां. कलीयूग न्हय गे हें. विनाश काले विपरीत बुद्धी म्हणटात तें जाणा मगे. तुमची वायट बुद्धी ना करपाक हांवें जन्म घेतला. कितें. कोण काय म्हणटा? हांव हांव तुमचो जानी दुश्मन जावन आसां. कितें म्हणटा.? आमचो जागो एकच. खंयच्या जाग्याखातीर उलयता रे तूं. म्हाका मातयेक घाल्यार हांव सारें म्हणून उपकारतलें. तुजोच नाश म्हाका करूंक जाय. गोंय पिडीत करपाक तूंच कारण. बायलांचें, भुरग्यांचें, जाणट्यांचें आरोग्य इबाडपाचो प्रयत्न केल्यार खबरदार! कितें म्हाका कुसको म्हणटा? म्हाका हात लावपाक लोक विट्टात? आरे दोनच दीस घाणवास येतलो. पूण आयुश्य भर सारें घालूंक म्हजोच उपयोग जातलो. निरूपयोगी मरें तूं. तूं भायल्यान जरी निवळ आसलो तरी भितरल्यान पिडीत. दुश्ट बुद्धीचो मरे तूं. तुजे दाखोवपाचे दांत वेगळे आणि खावपाचे दांत वेगळे. तुका वळखतात रे लोक. तुजो नाश केल्याशिवाय हांव रावचों ना. हाका भायर म्युनिस्पिपालटीच्या डब्यांत घालात. ताका सुकोच दवरात. हाची वागणूक सामकी वेगळी. हो जयळ्यार ताजो वास गुरवार बायलांक माल पडटा. प्लास्टीकाच्च्या ग्यासान केन्सर, अस्थमा (दम्याचें) जांव येता. भयंकर रोग जावंक शकतात. प्लास्टीक आनी रबर जळवपाच्या भानगडींत तुमी पडूं नाकात. कितें म्हाका वळखूंक ना? आगे हांव पानां, फुलां, कांद्याचीं सोलां, नुस्ताचीं बोडकां, भाजेची देटां, च्याचो पावडर हांच्या पासून तयार जाल्लों आसां. ओलो कचरो म्हूणून भायर उडयनाकात. घाणवास येता म्हूणून नाकाक धरी नाकात. घराच्या फाटल्यान फोणारो काडात. वर्साक एकदां खोऱ्यानी सगळो चिखोल एकठांय करात. थोडें शेण घालात आनी मागीर झाडांक म्हजें सारें म्हणून उपोयग करात. तुमच्यो फुलांच्यो फळांच्यो बागो हांवच फुलयतां. फळयतां. करतले न्ही मजो उपयोग. बरें तर याद दवरात म्हजी येतां हांव. 

# एड्स

भोग उठला गे बाये ह्या आतांच्या पोरांचेर. कितें! कितें जालां काय म्हणटा? ह्या भुरग्यांक राखचे कशे पडले काय म्हणटां हांव? नवीं नवीं शिक्षणा, कॉम्प्युटर, इंटरनेट आनी हे आतांचे मोबायल वाट लायल्या भुरग्यांची हाणीं. नवें शिक्षण नवो रोग आगे तुवें केन्नाय आयकल्यांत हीं दुवेंसां? आमच्या तेंपार जोर, कामीण, दम्याचे ना जाल्यार टी बी ची दुयेंसां. वखदा ना मेळूंक जाल्यार कोणी गेलो, पूण असली न्हय गे दुयेंसा कितें म्हणटा काय म्हणटा? आगे विमला तूं नकळो नवें दुयेंस आयलां तें पेपरार दितात मगे, टी. वी. लावंक ना तुवें टीवीचेर सांगतात मगे कितें काय म्हणटा? एड्स जावंक जायना म्हूणून कितें सांगू तुका विमला, आगे पैर म्हणटालें न्हय गे तू शांतूलान लग्नाक बी कांयच सांगूक ना म्हणून. आगे तुका खबर ना ताच्या पूताक खंय न्ही गे एड्स जाला. बायल जांवच्या दिसांची आसली म्हण गेल्ली दोतोरागेर आतां रगतां न्हय गे तपासतात तातूंन मेळ्ळो खंय पूताक एच. आय. व्ही. तो ताज्या बायलेक आनी भुरग्यांकय जातलो न्हय गे आगे लग्न करतना ताणीं नक्षत्रां पळोवचे परस रगतां कित्याक तपासूंक ना? खंय गेल्लो काय हो दिवटो, दर्या देगेर? कितें?अशें म्हूण नाका? कींव येता म्हाका ह्या भुरग्यांची? कितें म्हणटा एड्स संपर्कानच जाता असो ना? एड्स जाल्या मनशाचें रगत बी घालीत जाल्यार तिच्या पूताक जावं येता? तो भुरगो खरोच भांगर मगे शांतुलालो इंजेसांवाच्यो सुयो बदलूंक जाय. आगे ताका फाटीं आक्सीदेंत जाल्लो न्हय. रगत घालचें पडिल्लें. कशें कळ्ळें काय म्हणटा? दोतोरान ताका सगळें विचारलें खंय ताका मगे जोर येतालो, ताळो सदांच दुखतालो, खांकय येताली, खाजय सुट्टाली. कितें म्हणटा हो एड्स

सगळ्यांक घरच्यांक जातलो म्हण. आवंय, हें सामकें पिशेपण ताचो ग्लास, ताट धुवन वापरीत जाल्यार दुसऱ्याक एड्स जायना. फकत ताचेकडेन शारिरीक संबंद दवरप ना. सळसळाय नासतना सूय वा सिरींजा घेवप ना. ह्या भुरग्याक तिणें जल्म दिना जाल्यार जालें. दोतोरानच तिका सांगल्यार बरें न्हय. आगे खरी म्हळ्यार ही दोतोराचीच चूक. कशी काय म्हणटा? आक्सीदेंत जाल्लो तेन्ना ताणीं रगत तपासून घालपाचें न्हय. पोराची वाट लायली पळय दोतोरान. तुमी मात आतां सांबाळून ह्या रोगापासून. बरें येतां हांव.



# कलयकार

कलय काडची आसा बाय? ओ बाय, ओ बाय कलय काडची आसा बाय? व्हय बरी कलय काडटां बाय, हांव. वर्साक चार फावटीं येतां बाय हांव. आं व्होय. बाय व्हडले तोप, हांडी, दावलां, ताटां सगळ्याक कलय काडटां बाय हांव. व्होय बाय गावांक सगळीं म्हजे कडसूनच कलय काडून घेतात. बाये कितें? कलय कितले म्हयने उरता काय म्हणटा? बाय हांव वर्साक चार फावटीं येतां. तीन म्हयने गेरेंटी बाय, गेली जाल्यार हांव येतां, हांव फुकट काडून दितां. बाय गेरेंटी बाय गेरेंटी. बरें येतां बाय. विचारून पळय तूं. कितें? हांडीक कितले घेता काय म्हणटा? एका हांडीक कलय काडूंक 500 रुपय घेतां बाय. थोडे कितें कमी करतां बाय. कलय कितली म्हारग जाल्या बाय. बाय कलय तुमी दितात काय हांव हाडची? तुमच्या दारांत बसून काडची जाल्यार, तशी करतां. काय हांव घरा व्हरून काडूं? कितें परत केन्ना दिता काय म्हणटा? बाय म्हज्या आंगाक फटींगपण ना बाय चार दिसानी दितां. कलय काडची आसा बाय? हांडी, तोप, दवले, ताटां, सगळ्याक कलय काडटां बाय हांव. कितें तोपांक काडची आसा? कितले पडटले काय म्हणटा? तोप दाखय बाय तोपा पळोवन सांगतां 200 रुपया तरी पडटले. कलय पुरी गेल्या बाय. दोन फावटीं काडची पडटली. गेरेंटी बाय. कितें एक वर्साची गेरेंटी दिता काय म्हणटा? ती कशी दिवूं. मनशाचीच गेरेंटी दिवंक जायना बाय. वर्सांची कलय कशी दिवूं. एका वर्साची गेरेंटी दिवंक गेल्यार हांवे म्हज्या तकलेक पयलीं कलय काडची पडटली बाय. आमसाण सोलां तुमी तोपान घालता बाय. तितली कलय बेगीन वता. वापर नासतना दवरल्यार 10 वर्सां ती तशीच उरतली. बाय येतां हाव. विचार करून पळय. तांब्याचे तोप हांडी, दावलां, ताटां हाकां कलय काडची आसा बाय?



# नर्सरी (इंटरव्ह्यूव)

ओ कांदोलीन, कांदोलीन, ओ कांदोलीन इतू बेगीन खंय गो चल्लें? आं कितें मिसाको? सर्दी वैता गो तूं? कितें? रोझार करोंक? आमगेलेंयबी माग गो देवाको. कितें! तुगे चेडवागे इंटरव्हू? केसो गो? कितू वर्सां गो तेका? साडे तीन? मागीर केसो इंटरव्हू गो! कितें नर्सरी ॲडमिशनाचो इंटरव्हू. तेका कितें कयटा गो? हागों बैसल्यारी धुवों पूण कयटो गे तेका? कितें फोकाणा कन्नाका म्हणोता? 500 भुरग्यांगे नांवां आसाय. कितू घेवपा खुंय गो? साठ आनी पांच कितें सांगोता गो तूं? फॉर्म भरों लायनी रावों पोडलें? सायबा भोगोस. मिनीस्टरांगे बी फावोर लागतो काय कितें गो? फावोर लायल्यार तेमकां कितें दिवो नाका? कितें डोशेना 25,000 होजार मागल्याय? ना जाल्यार ॲडमिशन मेळपा ना कितें गो? खुयच्ये दितो गो तूं? ओदी बरें बालवाडी कित्याक घाली ना गो? तेमकां सगळे सरकार दिता खूंय मगो. कितें? बालवाडी घायल्यार मागीर स्कुला ॲडमीशन मेयणां? सरकारी शाळा आसाय तेतूं कित्या घालना गो तूं? कितें तेमकां इंग्लीश बरें समजीना खूंय? बरें गो, म्हाका एक सांग कितें पूण विचारताय गो त्या काड्डूकांक? उतर पूण फुटिता गो तेमचे तोंडातल्यान? कितें मामी गे आनी डेडी गे नांव? फ्रुटां, सांगे नांवां? कयटाय गो तेंकां? इंटरव्हू पास जातो मगो तें? कितें सगळें फावोरेचीरच लागीं आसल्या पोयलें काय पैशे दितोल्यां पोयलीं गो? खुंयच्या नर्सरीं घायला गो तेका? चुबी चिक्स काय, बेबी लेंडा गो? मारगांव गो? केशें वैतो गो तें? टायम कितू गो तेका. सकाळीं नवांको. कितें मिनीबासी दोवोरल्याय. आगो लाखा बारा होजार कत्तो मगो तू ओदीबरें बायेक घारा कित्या दोन्ना गो तूं? कितू भुरगीं गो तुका? कितें एकूच. कितें ओगोत जाता. मीस चुकतलें? चोल गो. देवाको एक बरें मागणे माग. कितें केसो काय म्हुणटा? देवाको सांग, देवा उपकार कर माजेर आनी आनी भुरगीं दिनाका म्हूण गो. समजिलां, रोझार कोर उगडास धोर, चोल बाये चोल आं बरी कन्न.



# सोयरीक

येसवंता, ये येसवंता केन्नाय येयल्यार कवड बंदच हेगेलें. येसवंता, ये येसवंता, म्हणची सवंयच ना मरे तुका. हांवच रे सदाशीव मागेल्या चेरडाक सोयरीक जाल्या गोंयान दितां तेका. आं, खंय की म्हणटा? वास्कोंत यामापेटेंत कोणे केली की म्हणटा सोयरीक? आम्माल्ल्या चेडयाल्या चेडयान रे. तेगेले बायलेल्या भावाल्या मेवण्याल्या नातवा संबंधीक तो. आं दिसच्याक, दिसच्याक एकदम हिरो आमालो एकटोच पूत हो तो. तेगेली न्ही होड पोपोटी आसा दोन माड बन्न व्हरचे सुपारे बाग आसा. आमालो एकटोच पूत हो तो. तेका नी यामापेटेंत राबच्या फिल्याट दिला. भोंवच्या मडयासडी दिल्या (मडसरीज) तेतुनच भोंवतो हो तो. तेका न्ही शिपोटयो आसता खंय. मोर्नींगा शिपोटया गेल्यार बिस्कीटे बोक्सां मेळटा खंय. डेया शिपोट्या गेल्यार पापलेटांचेच जेवण खंय. नायटी शिपोट्या गेल्यार किंगफीश आनी किंग फिशर खंय. डेयान डे चेंज जातेर राबता तेंगेलें डिनर. बायले पोरांक कसलेत तरास म्हण ना पळय. कितें म्हळो? हय. कालच उसरां येईलो तो. तेणें नी फिलेटी बसच्या सोपो (सोफा) मागला. बायलेपोरां टायमपास करच्या टी. बी. मागल्या. उरिल्लें जेवण दवरच्या फिरीज मागला. पोरा मागेले घालचें ओट्ट्रू 70 च तोळे भांगर मागलां. जांवया घालच्या सफारी म्हण मागल्या खंय. ताटां घालचे ओटूट दोनच लाख रुपय मागल्या पळय मागेल्या जांवयालें मागप पळय आतांच्या सुदारीत जांवया भसेन न्ही हां. हुंडो मागपा पळय मागेल्या जांवय अपोज पळय. मागीर तूंच सांग येसवंता करून सोडीलें बरें न्ही मागेल्या चेरडा, शुगरबुक्स? कितें म्हळो ओंदू पावसा पयलीं कन्न वडय म्हणटा? हय रे आमी तोच विचार केला. मागीर सुटलें पळय आमी बरें रे याद दवर हां. येता हांव, हय वय, जांवया दाखोवूं घेवनच येतां पळय.



# इनकम टॅक्स

सुनबाय, ये सुनबाय इल्लीशी च्या हाड पळोंवया. साखर मातशी कमीच घाल आं. आं कितें म्हणटा? दिया बेताचें जालां काय म्हणटा म्हाका? म्हाका खंयचें? सरकाराक जालां खंय दियाबेताचें. कितें म्हणटा? साखर सरली? कशी गे? पैरच तर हांवें हाडिल्ली. सोंपतली कशी? शेजारी पाजारी आयलीं म्हणून तांकां कितें सदांच च्या दिवंक जाय अशें आसा? साखरेची किंमत कितली वाडल्या हें हांकां घरान बशिल्ल्यांक कशें कळटलें? सुनबाय हांव तुमकां एकच सांगतां. ह्या फुडें सकाळीं आनी सांजेची दोनच दां च्या करपाची. ग्यॅस कितलो वाडला तो जाणा मगे तूं? जेवण सुद्धां परत परत गरम करपाचें ना. ह्या पोरांक आतांसुनच थंड न्हाणोवपाची संवक कर. रानातलीं लाकडां तर सामकीं मेळनात. गरजेच्या सगळ्या वस्तुंचेर टॅक्स बसयला सरकारान जाणा मगे तूं. जाणा मरे हणमंता, म्हाका 5 धुवो. धुवेगेर वतलों म्हळ्यार म्हारगायेन जायना. बशीच्या तिकेटीक परवडना म्हळें म्हणून ही न्ही सामकी फाटी लागली. फोन घेयात, घरांत फोन घेयात म्हणून. घेतलो एकांदोच फोन. जाल्यार फोनार सुद्धां न्हय रे टेक्स बसयला. डिझेल वाडलां म्हणूंक गेल्यार केरोसींन न्हय रे देंवला? आरे म्हाका सांग बोकडी हागतली कितली? आनी शेणयो थापतली कितली? हय मरे हणमंता. सरकार शेतां रोयात, शेतां रोयात म्हणून बोबो मारता जाल्यार शेतां रोवपाक जोतां रे कितलीं म्हारग, सारें तर घेवपाचें ना. कापणी, रोप लावप, मळणी घालप, भात घरांत येता म्हणसर नाका नव जाता. अदीक बरें विकते तांदूळ हाडिल्ले. कामेरीं तर सोदून मेळनात. सगळ्या वस्तुंचेर वेट बसयला. मनीस दुयेंत पडून हातरूणार जर पडत जाल्यार वखदावेले टेक्स, वेट पळयत जाल्यार काळजाक आताक येवन गेल्लो बरो. सरकार खंय गरीबांचें चितता. आम आदमी म्हण सदांच सांगता. मागीर अन्नाक सुद्धां पातेशेर जातलीं मरे आमी. खरे मरे हणमंता, कोणें सांगला रे सांजेचें नाशिल्याक वेट. पटले मरें तुका, हांवें कितें म्हळा तें?



# पांयगूण

मावशीबाय, ये मावशीबाय, मावशी बाय ये मावशींबाय उलो केल्यार लेगीत भायर येवची ना. मावशीबाय, जांव गे बाये, आयकलो हिणे उलो. कितें मावशीबाय कशी आसात तुमी, कितें? आजसुद्धां बरी आसा फाल्याचें सांगूक नजो. कित्याक गे बाये अशी अभद्र उलयता काय म्हणटां? आगे सोंसू नजो गे बाये म्हज्यान उठ सूठ म्हज्योच खबरो. कसल्यो काय म्हणटा? म्हज्या पांयगुणाच्यो. आगे म्हाका सांग, कुटुंबांतल्या प्रत्येक मनशाचें आरोग्य म्हज्यान सांबाळूंक जाता गे? कुटूंब म्हळें म्हणटकच जाणटीं, नेणटीं, आसतलींच हय मगे? आगे, हांची आजी बरी ना जाल्यार खंय म्हज्या पायगुणान. पणजो बरो ना जाल्यार म्हज्या पांयगुणान. काका बरो ना जाल्यार म्हजो पायगूण एक न्हय हजार पायगूण आगे म्हजें लग्न जाल्यार 5 म्हयने जाले ह्या 5 म्हयन्यांत 3 जाण्टलीं उसळ्ळीं. जाल्यार ही कितें म्हणटात जाणा मगे? कितें काय म्हणटा? वांकड्या पांयांची खंय हांव आगे कितें सांगू तुका? हांची दोन मांजरा मेली जाल्यार तिवूय खंय म्हज्याच पांयगुणान म्हणटात. कशी जाणा मगे, मावशीबाय तरी बरें मांजरांचेर गेले म्हणून हांव म्हणता तुमीच तर नक्षत्र पळयलां. तुमीच तर प्रसाद घेतला. मागीर तेन्ना तुमकां भटान वा देवान सांगूक ना वांकड्या पांयाची म्हणून हांव. आगे नाक दांबल्यार तोंड उघडटा. हांच्या घरांत कोणाक दियाबेताचें जाल्यार कोणाक दम्याचें, कोणाक हार्टाचें जाल्यार कोणाक टीबीचें. 25 जणां 25 दुयेंसाचीं इतलेंच न्हय ममावशीबाय, उमाशे पुनवेक दोतोरागेर वचनात, भायर सरतना मांजर आडवें वचूंक जायना. घारशे डोळ्यांची बायल मेळत जाल्यार दोतोर मेळना. मागीर म्हाका सांग हीं निवळटलीं कशीं. 10-10, 15-15 वर्सांचीं दुयेंसा मगे हीं आनीक कितलो तेप हातरूणार लोळटली आसली. ही मनश्यां अकस्मात म्हज्या पांयगुणान कशीं गेबाये मेलीं? दीस सोड रात सुद्धा पावची ना मावशीबाय. बरें गे येतां हांव. तुमकां म्हणून सांगले हांवें. कोणाक म्हणूंक नाकात आं. येतां हांव.



# अडाणी बायल

दोतोर ये दोतोर, दोतोर ये दोतोर आं कितें म्हणटा? आड्डू नाका म्हणोन. कितें मात्शे कूळ जा म्हणटा? हांव कित्याक तुजें कूळ जावों? म्हजो भाटकार ना काय म्हणटां? कितें म्हणटां कूळ न्हय मागीर कितें? कूल, कूल म्हळ्यार कितें रे? कूल म्हळ्यांर थंड. हांव खंय गरम आसां तर? दोतोर म्हाका सांग तू सारको बी आसा मरे? म्हज्या चेडवाक एस. टी. हाडोंक सांगता तो. कारवाराक कितें रे तूं? गोंयांत कितें कदंबा पाड पडल्यात तर? आ कितें म्हणटा? एस. टी. म्हळ्यार गरीब, अडाण्याखातीर दवरील्लो जागो. आरे तूं सारको आसा मरे? म्हज्या चेडवाक अडाणी म्हणटा तो. सुटला काय कितें रे तूं. तकलेन बी. इल्लोसो फेलको तर तें घालता, पेंटांतर तें सदांच घालता. हातांन माबायल तर तें धरता खांद्यार तर पोती लायता, ओंठाक लाली तर तें लायता. केंस तर तें कापता. उंच खोटांची जोती तर तें घालता. तेचें नांव सुद्धां आमी दवरलां पीरती जंजन. मागीर खंय रे तें तुका अडाणी दिसलें? दोतोर म्हाका सांग तुवें ताका सोडल्याली कास्टी कित्याक हाडोंक सांगल्या? बायजण मरे खंयचें कडलें कितें म्हणटा? शेणूल कास्ट म्हणून पावती जाय. दोतोर आतां तर म्हज्यान सोंसू नजो. म्हज्या चेडवाक तुमी शेणूल कित्याक म्हळें तें सांगात. कितें शेणूल न्हय, शेणूल कास्ट? बापूय येवंक जाय तुमचो म्हाज्या चेडवाक शेणूल म्हणपाक. आं शेडूल कास्ट म्हळ्यार कितें. म्हार, चामार असल्या गरीबांक दवरिल्लो जागो? तेज्या डेडाक आपोवपी तूं रे कोण (रडटा) तेचो डेडी देवागेर गेल्यार जालीं 10 वर्सां. हे सगळें हाडीत जाल्यार करतलो मरे तूं म्हज्या चेडवाक प्रेगनंट? पैसे घे रे तू. जांव बाये शेंवतुल्या, शेंवतुल्या दोतोरान म्हज्या चेडवाक प्रेगनंट करतां म्हळां. कितें प्रेगनंट न्हय? आनी कितें? परमनंट. तेंच तें. चेडवान म्हाका शिकोवन धाडलेलें पूण म्हाका खंय कळटा तें म्हणोंक? सगळी इंग्लेज जाणां जाल्यार हांवच दोतोर जावची नासली काय म्हणटां?



# भटीण

(हातान लाटणी घेवन भायर येता)

सकाळीं आठांक उठून गेल्ले हे. आजून येवंक, ना. आयदणा बी घासूंक रावले काय? म्हणटा म्हणून येजमान्याक कांयच पडून वचूंक ना. पुरयत पावले बगर येजमानी खंय, न्हिदील्ले उठनांत. पाड पडू तांचे. हांचे फुडें उपीट आनी च्या हाडून फोडली म्हणटकच जालें खंय. हांव म्हणटां आमकां भाजीपुरी खावंक कळना? कितलो वेळ हांकां? कितें कितें दितात आमकां? कापड, हांव खंय न्हेसतां? गंधाची बाटली? ती आनी कोणालायता? तिकळ्यो धरनात खंय आमच्या तकलेर? येजमान्नी पयलींच्या तेपावेलेंच करतात. हांकां आनी बुस्कोटाक कपडो आनी न्हेसूंक पुडवें? हे सामकेच बुच्चू. म्हणून दिता तें घेतात. कायबरी पेंट आनी टी शर्ट घालून वतात हे. तें पळयात मू. सांगूं जाय तांकां. देवाक दिल्ली आंगवणं पांवक जाय जाल्यार आमगेल्या हिका 1000/- रुपयांचो चुडीदार, 1 ग्रामाचे एकच कांकण आनी कपलाक लावंक तिकळ्यो. आदल्या लोकांवरी ते न्हेसतात खंय कास्ट्यो? मागीर भटाकच कित्याक वालो? तांकां अशे सांग म्हळ्यार हे तयार नात. फुडल्या फावटी सांगतां म्हणटात. दाराकडेन वचून, आयले आयले. हांवें सांगिल्ले तशें सांगलें मू? कितें रस्पेत पिड्यार जातलो तुमचो? रस्पेत पिड्यार तांचोच जातलो. तुमी पुरयत न्हय तर तांचे? ओगी रावन रावन तकली गेली म्हजी. बाकीचे भट पळयात कशे गाडयो घेवन भोंवतात ते. आनी तुमकां पळयात सायकलीन. कितें (कांकणा वैर करून) म्हाका ओगी राव म्हणटा? कित्याक ओगी रावूं? तांका सांगात आमकांय ॲडव्हान्स पावंक जाय म्हूणून. कारणां ठरयतकच ते माटवाक, हाराक, तुऱ्याक, बुफेक ॲडव्हान्स दिनांत तर? मागीर तुमकांच कित्याक ना? खरें म्हळ्यार ताणीं पांय धुवन तीर्थ पियेवपाचें तुमचे. तुमी वतात काय हांव वचूं? हें हें तुमच्यान जावचें ना. हांवच चल्लें. 

# चवथ

व्हनीबाय ये व्हनीबाय, व्हनीबाय ये व्हनीबाय आं कितें म्हणटा? गडबडीन शी म्हणून. कितें सांगूं तुका, अंदू गणपतीचें (चवथीचें) वर्स आमचेर पडलां न्हय गे. आगे म्हाका सांग तये दिसा कितें करपाचें? आँ कितें म्हणटा? गवर म्हादेव पुजेक लावप आनी जेवण अयणी करप मगे? म्हादेवाक सुद्धा अयणीच मगे जेवण अर्धांगिनी मगे ती? माटोळी केन्ना बांदपाची? बरी याद जाली म्हादेवाक कितल्या पानाचो विडो गे? 32 पानाचो आगे हांवे 11 च पाना हाडल्यांत तुमगेर बी आसात चड हाडिल्लीं? कितें तुमी ऑर्डर दिल्या? सगळें मेळटा गे चवथीचें म्हण सांगल्यार ? पानां सुपारेच्या पोतान माटोळी आनी जेवण सुद्धां? हुशार मगे बाये तूं. आमगेले मात तयार जावचे नात गे. तांकां सगळें सोवळें जाय न्हय गे. व्हनीबाय तुमी कितें निरंजन म्हणिल्लें न्हय? फुलवाती पेटोवपाचीं निरंजना मगे ? हांव समजलें हो आनी कोण? चवथीक आपोवपाचो काय म्हणून. जांव गे बाये ना जाल्यार विसरतलेंच आसलें हांव. हांव पडली एकटीच न्हय गे. निवेद्याक पंचफळां मगे? ना हाडूंक हावें व्हनीबाय चवथीक गोडशें कितें? चुनाच्यो नेवऱ्यो? आईन धाडल्यात गे म्हाका त्यो दवरल्यार जाता न्हय. रातचे द्रोण भरून दवरनात तुमी? हांवें देवापुरतींच फळां हाडल्यात. शेव चिवडो घालून बुफे कशी बंशयेन दवरल्यार कशे? जाव म्हाका म्हणी द्रोण तशेच उरतात म्हणून. येतना सगळें हाडलां गे हांवें कितेंय कमी पडल्यार आदार करतली मगे? हाव सदांच म्हज्या शेजाऱ्यांक तुमची तोखणाय सांगतां. बरें पंचमीक कितें? नव्याचो पायस आनी सान्नां उकडप? आगे बाये सानन धाकणो हाडूंक विसरलीं मगे हांव व्हनीबाय तुमच्यो करतली तातुंल्योच म्हाका थोड्यो निवेद्याक दिगे. नव्याच्या पायसाक कितें कितें घालतात. ना गे सामके विसरलें पळय हांव. ल्हानश्या तोपलान घालून दी गे म्हाका. खरेंच व्हनीबाय हांव तुमचे उपकार केन्नाच विसरपाची ना. व्हनीबाय सारके मनीस मेळत जाल्यार वर्सान वर्स चवथीची जबाबदारी घेवंक कितें जालां म्हाका?



# शेजारी

लताबाय ये लताबाय, आं कितें म्हणटा? कळोवंक नासतना आयली म्हणून आगे तुका एक खोशयेची गजाल सांगूक आयलां हांव. कसली काय म्हणटा? आगे तूं तुज्या चल्याचें लग्न करता म्हणटाली न्हय गे? आयल्यांत बी सोयरीको? कितें खूप आयल्यात? आगे हांवय बी सोयरिकच घेवन आयलां. कितें म्हणटा चली कितें करता काय म्हणून? आगे तें सिप्लान आसा. बी. फार्म केलां ताणें. कितें आवय बापूय कितें करता काय म्हणटा? आवय मगे बायी. बापूय साखर कारखान्यात आसता ऑफिसर म्हूणून, कितें म्हणटा? कितली भुरगीं काय म्हणून? तीं दोगांच. दोनय चलयो. भाव नाशिल्ली नाका म्हणटा? आगे पूण कित्याक? ओजींभाडीं, येवप वचप जावचें ना? आगे आतां हे भाव खंय गे वर्जी धाडटात. आवय बापूय आसा म्हणसर धाडटली मगे. धाडली म्हणून खाणां, भुरगीं खंय गे हीं खाणां खातात? आतां सगळींच रावतात फ्लॅटांन. दिसभर दारांबंद मागीर? पूण बीण कांयच ना. आवयन आनी बापायन खूब जोडून दवरलां तें, ह्या धुवांकच न्हय गे. आं कितें म्हणटा हें व्हडलें काय म्हणून? हय तर! तांचो फ्लॅट काय घर काय म्हणटा? आगे तांचो बंगलो. दोगांय धुवांक सारखे वयर सकयल बांदला खंय केन्नाय वचून रावूं येता. आं कितें म्हणटा? त्या शिवाय आनीक कितें आसा काय म्हणटा? बापायन लाखानी पैशे करून दवरल्यात. आवय बापायक पेन्शनां मेळटलीं न्हय गे. मागीर हाडूं मगे हांव. कितें म्हणटा? कितें घालतली काय म्हणून? पांयाकडल्यान तकलेर पसून भांगरच भांगर. तांकां भुरगो बरो जाय व्यसन नशिल्लो. चली दिसूंक कशे दिसता काय म्हणटा? आसा गे काळे सावळें. तोंडार बरीच कांत मारता. जिवानय बडक सुकडें कशें न्हय हां. कोणाबाशेन दिसता जाणा मगे त्या लाडू पसरकाराल्या दुसऱ्या चेडवा भाशेन. मात्शें फुडें फाटीं बी आसत. विचार कितें करता? हाडूं मगे हांव? भायल्यान वासपूस कारात गे तुमी. नाजाल्यार मागीर नक्षत्र आसाच न्हय पडटा ओ ना तें सांगूक बरें गे येतां हांव. 

# पडवेवयल्यो गजाली

मावशीबाय ये मावशीबाय कितें म्हणटा? म्हजीच याद काडील्ली म्हणून? शंभर वर्सां आयुश्य? नाका गे बाये. ह्या तेपान दिश्टी पडूंक ना. कितें? कसलो धंदो बी करता काय म्हणटा? ना गे बाये. रान वाड उश्टी काड हाच्याशिवाय म्हाका कांयच जमना पूण आयज मात हांव मुद्दामच आयलां. कित्याक काय म्हणटा? आगे तुवें आयकूंक ना तें जोड्ड्यालें चेडूं पळोन गेलें म्हणोन. खबर आशिल्ली तुका? म्हाका मोगऱ्यान कालच सांगलें. कसलो भोग उठला काय म्हणटा? कितें? कोणाबरोबर काय म्हणटा? मेस्ताबरोबर. शी ऽ शी ऽ शी ऽ आयकूंक नजो गे बाये. व्हडल्याक खंय घोवान सोडलां. कित्याक? आगे ताचो घोव खंय भायर आसता. दोन म्हयने जावचे पयलींच फिरंग्याबरोबर गेलें खंय न्हय गे पळोन. लग्न एकट्या कडेन जाल्यार रंग दुसऱ्याकडेन. सांवार उठला गे बाये हांचेर भुरग्यांक ल्हान आसतनाच शिस्त दिवंक जाय. कितें म्हणटा तिसरेंय वतलें? ताणेंय सांभाळ्ळा. ताची म्हणून चूक ना. फुडलें जोत तशें फाटलें जोत. मोग करतात खंय मोग. कितें बापायक खबर ना काय म्हणटा? खबर ना आनीक बापूय विचारल्यार सांगता प्रेम केलें खंय ताणें. प्रेमाक खंय दोळे आसनात. खंयच्या तोंडान सांगता गे बापूय. सवाय भितर गेलीं म्हण खूश जालो तर बापूय. बापूय पयलीं कट्टी खायरो. भुरग्यांक पांजऱ्यान घालून दवरिल्लीं. मागीर? कितलो तेप घालतलो पांजऱ्यान. आगे म्हाका सांग त्या भिकुल्या चेडयाची सोयरीक मोडली खंय न्हय? कित्याक काय म्हणटा? आगे चल्याची आवय खंय नेर्वांची. आनी बापूय पियेता. कितें? चलो फ्टॅटान रावपाचो? कितें? जोत्स्नाबायल्या चल्याक वायट दुयेंस जालां खंय. कसलें गे तें दियाबेताचें काय बारीक जोराचें बी गे. कितें एड्स. तो खंय सापडलो तर ताका? कोलव्यां वेळेर? कितें आनीक एक नविदाद? कोणाली गे. सुकण्यालें चेडूं राखण्याबरोबर पळोन गेलें. खरेंच गे मावशीबाय ह्यो सगळो गजाली आयजच कळ्ळ्यात म्हाका. तुमकां कश्यो कळटात गे त्यो गजाली? कितें? सांजेच्या पारांक तुजी पडवी भरता? तशें जाल्यार म्हाकाय येवचें पडलें. तुमच्या पडवेची मेंबर जावन. बरें गे येतां हांव. ●●●

# सुनबायेच्यो गजाली

ताईबाय, ये ताईबाय, ताईबाय ये ताईबाय कितें म्हणटा आज इतल्या सकाळी खंय काय म्हणून. आगे ही आमगेली सकाळीं पांचाक उठून कामाक न्हय गे गेल्या. कोण काय म्हणटा. म्हजी दिवटी सून. इतल्या सकाळीं कितें आसा कोण जाणा? आमकां खंय सांगता ती. शेनवार आनी आयतार सुद्धां लागनागे बाये तिका. आज ह्या क्लबांत तर फाल्यां त्या क्लबांत. आज हांगा मिटींग जाल्यार फाल्यां थंय मिटींग. कसल्यो मिटींगो चलतात तिच्या कर्माच्यो म्हणून देव जाणा. दिसाक एक एक जोडीदार तर ती हाडटा. कितें? पूताक आवडटा काय म्हणटा? ना आवडूंक कितें जालां? बायल सामकी मस्तकावेली. जोडटा न्हय ती. म्हजो पूतच हाडून दिता तिका जोडिदार. कितें ताका जोडिदार म्हणिनात. चुडिदार म्हणटात. जोडिदार जांव ना जाल्यार चुडिदार जांव. भेस म्हणून कितें करता? पळोंव नजो गे बाये. काप्प्या हाताचीं पोलकां म्हण ती घालता. बोमले सकयल साडी म्हूणून कितें ती न्हेसता. ओंठांक तांबडें म्हण कितें ती लायता कपलाक काय गंध ना. हाताक काय कांकणा नात, गळ्याक काय मणी ना. सदांच उठून म्हाल्यागेर कित्याक काय म्हणटां? केसांक दिसता वाखोर लावंक. भोंवयो न्हय गे म्हाल्यान दवरूंक लेगीत ना. म्हणूनच न्हय गे काळो लाप्स घुवडांयता. आगे पांयाक बूट म्हूणून घालता कितले उंच. धाकट्या मेजाक खूर उरतात पळय तशे. सोंसू नजो गे म्हज्यान. पूण जाप काडपाची आसा. फाल्यां सकाळींच बिराड कवळटली. जाणा मगे ताईबाय सकाळीं उठता, कितें केल्लें आसा तें खाता आनी तरतर करून वता. कप एककेडन जाल्यार बशी एकेकडेन जेवण करूंक कळटा काय म्हणटा? आगे तांदूळ वेंचल्यार खंय बोटां मोठीं जातात. आयदनां घांसल्यार खंय हात घट्ट जातात. रान्नीर रानल्यार खंय धुंवरान तोंड काळें जाता. कपडे उमळ म्हळ्यार कमरान येता. सान्न मारल्यार

ॲलर्जी जाता. हजार कामाक हजार जापो ते परस तोंड हावेंच बंद केल्लें बरें न्हय. म्हणटा कशी म्हज्यान जायना म्हळ्यार कसली धाड मारल्या म्हणून. मागीर तोंड धांपून काम केल्लें बरें. हय मगे ताईबाय दांत्यार बसतकीर ओवयो येतात. तशें म्हजें जालां. बरें गे येता हांव.



# अपुरबायेची सून

वत्सल बाय, ये वत्सल बाय, कितें खूप तेपान शें म्हणटा. आगे आमगेली वावराडी गेली न्हय तोंड गेवन. कितें म्हणटा? सून हाडल्या न्हय काय म्हणून? आगे पूताक लग्न जावन एकच म्हयनो जाला. रोकडेंच कशें हांव सूनेक कामाक लावूं? आतांच संवय कर म्हणटा. कितें? नाजाल्यार मागीर माथ्यार बसतली म्हणटा? आगे हांवें म्हज्या धुवेक केन्नाय कामां सांगूक ना. च्या पिल्लें कप लेगीत धुवेन म्हज्या केन्नाच धुवूंक ना. हांवेंच धुवूंक दिवूक ना गे ताका. मागीर आसाच न्हय. रान वाड उश्टीं काड करपाचें. कितें धूव अपुरबायेची! मागीर सून कित्याक न्हय तर? एकच अपुरबायेचो पूत मगे म्हजो. सूनेक जर धुवेच्या बाशेन करीत जाल्यार सून म्हाका आवय समान मानतली, हय मगे. वत्सलबाय तूं सुद्धां पयलीं कोणाची तरी धुवच आशिल्ली मगे? कितें, हाताच्या काकणांक हारसो कित्याक काय म्हणटा? तूं म्हणटा तशें सगळीच आसनात गे. हांवय बरी आसूंक नाका. दुसऱ्यालें चली मगे तें? आवय बापूय, भाव भैणी ही नातीं सोडून आयल्लीं आसतात मगे तीं. मागीर तांका ही वायट वागणूक कित्याक. उठसूठ सतावंक लागल्यार तांकां हांगा फुगसांव जावचें ना. कुळारची याद ही नव्या सुनेक येताच. आमी मांवमांयन जर बरी वागणूक दिल्यार तांका आवय बापायची माया परत मेळटली मगे? कितें म्हणटा? आतांच्यो सुनो टिट्टिटट्यो? तशे म्हणचे न्हय गे वत्सलबाय. पयलींचे ते पदेर गेले आनी उंडेय गेले. आमीच तांच्याबशेन वागूंक जाय. वारें येता तशें सूप दीत जाल्यार पोल पैस वतलें. बरें तें आमकां उरतलें हय मगे. वत्सलबाय ताळी खंय गे एका हातान वाजता? म्हजो पूत समजिकायेचो. ताका आवयचें मोल खबर आसा. तो बायलेक केन्नाच म्हजें वायट सांगचो ना. जेवन जाल्या उपरांत तोंड सुद्धां तो म्हज्याच पदराक पुसता मागीर हांवेंय तशेंच करूंक नाका? आज सुटी तांकां. फिरूंक वतलीं म्हणटालीं. बरें गे येता हांव. कितेंय खांवक करून दितां. येता हांव.



# वावराडी

वैने ये वैने, वैने ये वैने, आं कितें? तिडकता कित्याक काय म्हणटा? वैने हांव फाल्यांच्यान काम सोडटां वैने. आं कित्याक काय म्हणटा? तुज्या माईक विचार. माज्यान नजो गे बाये तेजे फुड्यान दीस काडोंक. आं कितें जाला काय म्हणटा? वैने तुवेंन म्हाका तुज्या चेडवांक चोवोंक हाडलेलें मगे? मागीर ती म्हाका रगड्याक लायलेल्या भाशेन कामा सांगीत रावता न्हू गे. तुज्या चेडवाचेंय करोंक जायें, माईचेंय करोंक जायें. कशें जातेले तें. हांव वैतां वैने हांव वैतां. हांव काम सोडटां वैने, फाल्यांच्यान. कितें म्हणटा? नाका सोडोंक? तुज्याखातीर रावों? वैने हांव म्हण मनीसच मगे? म्हाका कितें धा हात आसात? सकाळीं हातोण म्हण कवळोंक जायें. सारण म्हणोन मारोंक जायी. चेडवांचे तोंड धुवोंक जायें. तेमगेलें कपडे उमळों जाये. चेडवांक न्हाणोंवक जायें. आयदणां घासोंक जायीं. जाणा मगे वैने ती नळपासून चालू करूंक दिना. बांईचे काडोंक सांगता. मागीर जेवण करपाचें. म्हाज्या जिवाचे काम आसा न्हू गे वैने. इतलें करता म्हणसर वैने दीड जाता म्हाका. तुजे माईचें बरें. सकाळीं बसता ती टी. यी पळोंवक, ती दनपरां जेवोंक उठटा. दनपरां जेवन दोन मिनूट पासून न्हिदोंक दिना ती म्हाका. वैने हांव चल्लें. म्हाका वीट येयलो. म्हाजो हिशेब कर. हांव चल्लें वैने हांव चल्लें. कितें म्हणटा? पगार वाडयता? वैने पगाराक लागोन न्हय गे. दिसभर किरकीर आयकोन जाता तुज्या माईची? वैने तुजे माईक खूप भैर जोळोप (अंधश्रद्धा) हायेंन घांसलेलीं आयदणां परत धुयता. मागीर हायेंन रानलेलें कशी जेयता गे तीं. सांजेची पांचाक न्हावोंक वैता ती दिसभर काम केलेल्या भशेन. दिसभर काम करोन पांय चय वैने कशे गोबरान घाये पडल्याय ते. हांयेन खूप लोकांगेर कामां केल्यांय पूण तुगे माई भाशेन कोण मेळों ना म्हाका. हांव चल्लें वैने. वैने हांव चल्लें. म्हागे हिशेब कर वैने. हांव चल्लें.



# केगया माय

आवड्यो, ये आवड्या, आवड्या ये आवड्या आं कितें म्हणटा? खरसेली कित्याक काय म्हणटा? आगे हांव गेल्लीं बांयचेर उदक हाडूंक. नळ गेलो न्हय गे सकाळींच बांयचेर म्हाका ताईबाय मेळ्ळी. ती सांगी वसंताली सून पाचपर्द नाक (अये जेवणाक) गेल्ली ती येवकूंच ना खंय. आवड्या ही गजाल खरी गो. तुजेकडेन सगळें कळटलें म्हणून कळसुली बांयचेर दवरून आयली हांव हांगा. कितें वसंताली बायल केगया. जाणां गे हांव. पूण चारच दिसांनी वाजतलें म्हण नकळो हांव. कितें वसंतालो पूत आनी वसंत बरो. पूण वसंताची बायल न्हय. आगे त्या चलयेच्या आवयबापायन चवकशी करूंक ना तर? कितें म्हणटा? आगे पूण गेली कित्याक तर ती? कितें? लग्नाक जोते लिपोवन दवरून पैशे मागले म्हणून? व्हंकलेच्या आवयबापायकडल्यान घेयात म्हण चणचणटाली ती. श्रीमंताली चली म्हण केल्ली खंय? मागीर श्रीमंत न्हयतर ती? देण्याक खंय चांदीचो तांबयो आनी पडगो दिवूंक ना. हें गे बाये कितें? बाकीचें सगळें दिलां मगे? कित्याक जाय गे हिका पडगो तांबयो चांदीचो? तांबड्या फोलीन गुठलावन दवरूंक? दिल्लो जाल्यार शेजाऱ्याक खंय देणें पळोंवक आपयतली आसली. पिंपय ल्हान दिलां खंय? आगे कुटुंबांत आसतना दितालीं व्हडली पिंपां. कितें? उशाचीं कवरां (फ्रोंज्यो) चादरां डझनानी दिवंक ना म्हणून धाडली तिका? व्हंकल भितर सरचे पयलींच उस्तीलें काय कितें तिचें देणें? ह्या खातीर गेली ती? कितें? वचूंक ना? धाडली? कित्याक उरिल्ले हाडूंक? हिका दिल्लें मगे? हिणें धुवेक दिलां मगे सगळें? धुवेक लग्न करतना रडटाली मगे ही दुकांनी. काकणां सुद्धां धड घालूंक ना मगे हिणें. धुवेचें बाळंतपण लेगीत जावयांन केला मगे? लोक हांसतले मगे हिका. हुंड्याक लागून सून गेली म्हळ्यार कोण गे बाये हिका दुसरी चली दाखयतलो? शेण घालतले तोणांत हिच्च्या.

पूत म्हण कसलो गे बाये? आवयचें आयकूपाचो? भिकाड्डो खंयचे कडलो. तो कितें ल्हान आसा आतां. ताका विचार ना? हुंड्याक लागून बायल गेली हाका सोडून म्हळ्यार तोंडार मारतले मगे हाच्या. शिकून भूत खंयचे कडलो कोण उलो मारता. येतां गे हांव.



# धनगर न्हवरो

साळू ये साळू माजो झिलो तुयें देखला? सकाळीं गेल्ला तां आजून येवकं नां. बोकडे घेवन गेल्लां तां कितें? झिलाक लगीन करना काय म्हणटा? तेका झीलू (चेडू) गावंक ना. कितें? झिलो किते करता काय म्हणटाय? झिलो रानांत बोकड्यो घेवन वैता. लेणयो एकठांय करता. शेणयो थापता. गोणो (नाचणी) रोयता. बोकड्यांचो दूध काडटा. बोकड्यांचो धंदो मोठो आसा आमचां. कितें? खंय रावता काय म्हणटा? माड्डी तळपार रावतां हांव. घर आसा काय म्हणटा? व्होय. आजून झावळ्यांचेंच आसा. वणट मात मातयेची लगीन जातकच घालतल्यो नळां तुमच्या घराचे बारीक नळां आसल्यार दिल्यार जाता. दुधाच्या पैशांत कापात. तेजांकडे कितें आसा काय म्हणटा? गळ्यांक मोत्यांचो चार-चार माळी घालतां तां. बोकड्यांचो कोंडवाडो आसा. व्हडलां आसा तां. कानांक बुगड्या घालतां तां. फुगीर हातांचा झबली घालतां, पेंटी घालतां काय म्हणतां? नाय बा, आजूनपासून बापशाचे आयकतां. धोतर सुद्धां घालना तां. आमचां तिनय बोटांचा नेसतां तां. सोरो पियेतां काय म्हणटा? नाय बा. तसलां कांय बी, नाय. माड मात्सो केन्नाय वखदाक घेता तां. शिगारेट. शी शी. बिडी कुड्याच्यो करून ओडतां तां. कितें शिकला काय म्हणटां? तो म्हणटा शाळा म्हणजे कोंडवाडो. मास्तर धनगर आनी मुलें म्हणजे बोकड्यो. कितें? तेका वर्सां कितली काय म्हणटा? ना गावांक वर्सां. म्हाकां पायण्यान आसतनाच, लग्न केल्ला तां. एक बायल मेल्ली म्हण दुसरे केलां. भुरगीं जावंक ना म्हण तिसरें केलां. तिसरेक सोडून म्हाका हाडलां पण तिसरेचो तो आतां तूच सांग म्हाज्या झिल्यांक वर्सां कितलीं तां. तेका झिलू कसलां व्हयां काय म्हणटा? शिटिंतलें? शिटीतलें नाका खंय तेका. मडगांवचें चंद्रवाड्यावयलें, गवळीवाड्या वयलें पण नाका म्हणटा तो. म्हाज्या झिल्याचे कोण जमावन देतां तेका हांव दोन बाटल्यो दूध देतां. फुकाट. उदीक घालूंक नासतना. तिळीसांज जाली येता हांव.



# म्हारगाय-1

व्हनीबाय ये व्हनीबाय, व्हनीबाय ये व्हनीबाय. कितें म्हणटा? इतल्या फांतोडेर खंय काय म्हणून? पोरसूं शिंपोंक वैतां हांव. कितें कुडकुडो खायना काय म्हणटा? खाता गे कुडकुडो पूण कितें करतलें पोरसूं शिंपोन कामाक वचोंक जायें म्हाका. कसलें काम करता काय म्हणटा. आगे करमल्यागेर आयदणां घांसोंक वैता हांव. जाणा मगे व्हनीबाय धा जाणागेर कामां करता हांव. फकत सकाळचींच आं. कितें शिकलां न्हय काय म्हणटा हांव? हयतर बी. कॉम. जालां हांव? व्हनीबाय पूण नोकरी खंय मेळटा. सरकार 6 मयन्याखातीर, ना जाल्यार कॉन्ट्रॅक्टाचेर घेता. म्हयन्याक कितले दिता जाणा मगे व्हनीबाय फक्त 2500 हजार. बशीर येवोंक जायें वसोंक जायें तिकेट म्हणून कितली मारग वसोंक आनी येवोंक 20+20=40 रुपया. त्याभायर कपडे म्हणोन बरे घालोंक जाये. जेवण आनी खाण म्हळ्यार म्हयन्याक 1000-1500 हजार रुपया जाये बशीचे जाले ना 1000 रु. त्यापरस एका मायत्याचें काम करून हांव मयन्याक धा जाणागे मिळोन 4000 जोडटां. करिनात गे आमी कामां. त्या शिवाय सांजेचीं भुरगीं येतात न्हू गे ट्युशनाक कितलीं काय म्हणटा. दोन ते तीन वरा मेरेंन 10 भुरगीं. 3 ते 4 मेरेन 5 भुरगीं आनी 5-6 मेरेन 10 भुरगीं. प्रत्येक विशयाक 200 रुपया म्हयन्याक 25 भुरगीं म्हळ्यार 5000 मेळटात म्हाका मागीर पुरो ना गे. कितेंच म्हूणून खर्च ना न्हय गे म्हाका कितें म्हणटा. बी. कॉम. शिकून आयदणां घांसूक लज दिसना काय म्हणटा? लज कसली हातून. चोरोंक वैता तर गे हांव. लज धरल्यार पेज मेळणा. जाणा मगे. शेजाऱ्यांगेर वचोन खबऱ्यो करचे परस आयदणां घासोंक गेल्लें कितलें बरें, आनी व्हनीबाय म्हारगाय पळय मगे कितली. जोडटां तितलें पावना म्हणटा मगे हे नोकरी करणारे लोक. घरा बसोन धंदो केल्लो बरो. घरांतलेंय काम जाता आनी लोकांचींय जातात. जाणा मगे व्हनीबाय दिवाळेक, चवथीक कपडे सुद्दां दितात

तीं म्हाका. मागीर नोकरी केल्ली बरी काय ही असली कामां, ट्युशनां दिवन दीस काडिल्ले बरे? हय मगे व्हनीबाय वेळ जाता म्हाका पोरसूं शिपपाचें आसा. भाजी बी जाय तर गे तुका. कितली? 25 रुपयांची? मागीर दनपरां दिल्यार जाता मगे? बरें, हाडटां हां दनपरां.



# हुंडो

आगे इल्ली च्या हाड पळोंवया. नाका नाका च्या नाका. थंड उदकच घेवन यो बेगीन. कितें जालें काय म्हणटा? पयलीं उदक दी. आगे कितें सांगू तुका? म्हजें कपल? इतले घामाघून कित्याक जाल्यात काय म्हणटां? आगे आगे तांकां चली पसंत पडिल्ली खंय गे. नक्षत्राक पडटालें म्हण जुळयल्या रायबाऱ्यान सांगलां म्हण गेल्लों न्हय गे हांव. मागीर आनीक कितें? म्हूर्त धरलो काय म्हणटा? तेर्म केन्ना करया काय म्हणला म्हणटा? आगे, आगे सगळें तूंच उलयता म्हाका उलोंवक तरी दी मगे, हय गे, सगळें जुळटालें पूण हें पळय. उलोवंक लेगीत दिना. आगे आगे चल्याच्या आवयन, कितें आमगेर येता काय म्हळां म्हणटा? आगे शिताफुडें मीठ खावपाची संवय हिका. आयकून तरी घेतली. आगे आगे ताणीं ही सोयरीक हुंड्या खातीर मोडली. आगे रडूं नाका. म्हज्यान जमपाचो ना हुंडो दिवपाक. कितें? मागीर सांगतां म्हणपाचें? आगे मागीर कशें? कोणाक मारूंक वचूं काय चोरूंक वचूं गे. 5 चलयो म्हाका देवान दिल्यात. एके चलयेक भांगर घालें म्हण जालें. पिसावल्या गे तूं आनीक थळां येवचीं ना? कितें? कितें कितें मागला काय म्हणटा? आगे तिचो चलो इंजीनीअर न्हय गे. ताका काकणां, पाटली, तोडो, गोंठ, नवऱ्याक मुदी, मास्कोद, सरपळी. कितें? तुजें भांगर घालतली आसली. आगे फुडें आयक लग्नाचो खर्च सगळो आमीच करपाचो खंय. कन्यादान सारकेंच जावंक जाय खंय. आगे हें म्हाका कशें शक्य आसा. कितें बारीक नग करपाचे म्हणटा? मागीर जोकून पळयलें जाल्यार? लग्ना जाल्या उपरांत सोडलें जाल्यार? हुंड्याक लागून बळी दिलें जाल्यार? आगे मात्सो धीर धर. आनीक चले ना? कितें फाटोफाट ती आसात म्हणटा? खरें गे तुजें. पूण काडून काडून दिवपाची गे ती चली? फुडलो फाटलो विचार ना. ना हांव हुंडो मागतल्या चल्याक चली दिवचों ना. म्हाका म्हज्यो

चलयो आकवांर उरल्यार जाता हांव तांकां बळीचो बकरो करचों ना. मांयच्य
तोकसांवाक ताकां दवरचों ना. केन्ना जाता तेन्ना जावूं. गरीब जाल्यार जाता. हां
संसार करतल्याच चल्याकडेन म्हज्या धुवांचे लग्न करतलों. म्हज्यो अपुरबायेच्य
धुवो त्यो. तुंवय कांयच चितूं नाका जावपाचें तेंच जातलें.



# हांव सून हाडटां

सगुण्या ये सगुण्यां हें पळय हांव आयलां. आगो म्हज्या चेड्याची सोयरीक जाल्या. हे पळय हांव तुका पेढे घेवन आयलां. कितें चली कोणाली काय म्हणटा? श्रीमंताली चली सून म्हण हाडटां हांव. कितें धेंप्याली काय तिमल्याली म्हणटा. आगो सावकाराली चली. एकटेंय खंय दिसपाक बरें आनी सगुण्या घालप करप तर विचारूंकच नाका. भांगरा शिंगरानी भरतली खंय तीं ताका. कितें येवन गेली काय म्हणटा? कितें सांगू तुका सगुण्या दिसपाक नक्षत्र मगो. वाड्यार सोड आख्ख्या गावांक म्हज्या सुनेभशेन एकटेंय ना. कितें अजाप दिसलें? आगो सगुण्या भितर सरनाफुडें दिश्ट काडून पयलीं उडयली हांवें. आं कोणाची काय म्हणटा? कोणाची आनी सुनेची म्हज्या. खुपच सुंदर दिसता गो बाये तें. गोरें गोरें पिट्ट. पाकलीण कशी. कितें? बापूय? बापूय सामको सोंसो आनी आवय? आवय सारकी पिक्चरांतली हिरोयीन. दोळ्यांत धरना गो बाये तांचे जोडपें. कितें म्हणटा ती कापड न्हेसता काय म्हणून, शी शी शी. कितलो सुंदर चुडीदार तिणें घाल्लो म्हण सांगू आनी बापायन सदरो. सगुण्या तूं पळयत जाल्यार पिसावतलें. नजर लेगीत काडचें ना. कितें सून? सुनेन जीन पेंट घाल्ली आनी टीशर्ट. कितें? पयले फावटीं तरी साडी न्हेसपाची ताणें? सगुण्या खंय आसा गो तूं? जग कितलें फुडें पावलां तें नकळो तूं. तिणें फोन केल्लो म्हाका साडी न्हेसोवन हाडूं काय म्हणून. आगो साडी आनी बिडी. सगळें आमकां जाय तशें केल्यार हातांतलें सुंदर, श्रीमंत चली वतलें मगो. जाणा मगो सगुण्या तें गाडी चलयता. बापूय चलयेक गाडी पसून दितलो. कितें? गाडी कसली काय म्हणटा ? इ फोन खंय. केन्नाय आयकूक ना हें

नांव. फाल्यां यो गो तूं आमगेर मागिलदारांतल्यान मात यो हां चुडीदार बी घालून चकचकीत जावन यो. हांवय चुडीदारच घालतलीं. हे गेल्यात बाजारांत चुडीदार हाडूंक. आगो धुवेचो सुद्धां बरो आसल्यार घालूं येता मगो तुज्यान. तोंडाक निवळ करपाचें तें सलोन आसा न्हय गो म्हाका थंय वचूंक जाय. तोंडाक पेंट तरी करूंक नाका. केंसय मात्शे काळे करूंक जाय. मात्शी तरणी कशी दिसूंक नाका मांय. बरें गो येतां हांव.



# पिशें

थू थू थू थू म्हाका पिशें म्हणटात? चय हेंकां चयलां. आये सांगले बगर रावपा ना हांव आये, ये आये, आये ये आये (रडटा) मज्या फाटल्यान लागल्यांय चय. म्हाका पिशें म्हणटाय? हांव तुमच्या फाटल्यान लागला काय तुमी म्हाज्या फाटल्यान लागल्यात, पाड पडों मरे हेंचें बाबो, भाओ खंय वैता? पिश्चरा वैताय? म्हाका व्हन्नाय? हांव येवों? आये ये आये म्हाका आपयतातय चय हांव वसों पिश्चराक शी, शी, शी, शी तुमगे बायलो नाय रे? म्हाका व्हरताय खंय पिश्चराक. भैणी नाय रे तुमकां? पाड पडों मरे हेचें. म्हाका पिशें म्हणटाय. आये ये आये हांव पिशें गे? ताये ये ताये हेंमकां चयलां? म्हाका पिशें म्हणटाय चय. हांव शाणें न्हू गे (तोंडांत बोट घालता.) ताये तेमकां सांग गे हांव रडटा म्हणोन ताये ये ताये म्हाका खावों दिगे. ताये, ताये म्हाका खावों दिगे. आये पश्चे जाये, आये पश्चे जाय गे, आये ते खावों खाताय चय आनी म्हाका कुयकूय करता चय गे. हेंचें मोरो मेल्ल्यांचें. म्हाज्या फाटी लागल्या चय आये तेमकां पिशें लागलां न्हू गे. हांव फातर मात्तां तेमचेर. भाओ, ये भाओ एक पद म्हणो हांव? खावों दित म्हाका? जॉन जाने जनार्दन, जॉन जाने जनार्दन, तर रम पम् पम् पम्, आये हे हांसताय चय बरें लागलें म्हागे पद. भाओ हांव नाचोन दाखवूं. जॉन जाने जनार्दन तर रम् पम् पम् पम् (नाचता फुगडी घाल्या भशेन) आये तेमकां सांग हांव पिशें न्हू म्हणोन. आये ते पिशे (हांसता) लजता) म्हाका आपयताय चय. हांव वसों आये आये जीभ दाखयताय चय. आये दोळे मोडताय चय. आये हिंगा यो गे बेगीन यो. ताये तेमकां चय. पिशें, चय ते म्हाका पिशें म्हणटाय? तेमगे आओ पिशीं. तेमगे बाबा पिसो. तेमगे वैनी पिशें तेमगे ताये पिशें. आये हांव एकटें शाणें न्हू गे. ते सगळे शेणा लाडू खाताय न्हूं गे आये जीभ दाखयताय चय. पाड पडूं मरे हेंचें. हांव चय. फुगडी घालतां चय. पिशा चय, तेमचेर फातोर मारोन दोके मोडट हांव. देख दिवूं ना तेमकां आओन तवनास पोर जाल्याय चय. आये, गे हे तवनास चय तेमकां. धांवता चय. पिश्या चय आये पिश्या चय.



# मटको

सालू ये सालू, सालू ये सालू. चोयना पासून मिरे तूं. कितें रे होरे खांद्यार मात्र खंय धांवता रे सालू? राव रे. कितें? भाटकारागे शेताको? दिसा कितू दित रे तो तुका? कितें? 120 रुपय? दिसा फक्त 120 रुपयच? मागीर हिंगा योरो. होरें ओडोय सकल. जाणा मिरे तुका हांव दिसा हाजार जोडपा आयडिया सांगोतां. केशें काय म्हुणटा? आरे हांव मोटको घेतां रे. 1 रुपय दिल्यार 90 रुपय मेयटाय. केशे काय म्हुणटा? ह्यो चोय मटक्या शिलोप्यो. कितें कोर जाणा मरे. केप्यां बाजराको एक रबी दुकना वयशी पैलीं एक खांबो आसा चोय. थिंगा मिरे बाबा दिसा 25 आक्सीदेंत जाता खंय. कितें कोर जाणा, आक्सीदेंत जाता ते मनश्यां चोयनाका. कितें कोणा चोय म्हुणटा? लोक आयकतोरे. सांगोतां,आरे तेमगे मोटरसायकलीचो वा गाडये नंबर चोय. होय रे, जादू ह्या नंबराचोच. तोच नंबर लाय. तुगे घर दुडवानी बोत्तो मिरे. आरे हे आक्सीदेंत जाता चोय ते आमच्या बऱ्याकूच. नंबर मात आत्तो पत्तो लायल्यारी पुरो. जाणा मिरे सालू त्या दिसा कायतानीगे चेड्या आक्सीदेंत जालो. तेगेल्या मोटर सायकलीचोच नंबर येयलो. तेणें 500 रुपय लायलो खूंय. तेका कितू दूडू मेयळो जाणां 80,000 चर्चीला फाटल्यान जुजीनागे बंगलो चोयला कित्याचे जाणां मटक्याचेरीच. निस्तें इको बैसोते शंकरा गे चेडवान गाडी घेयल्या. कित्याचे जाणा? मटक्याचेरच. मागीर सालू मटको लायलो बरो काय भाटकारागे शेताको होरें घेवन गेलो बरें. कितें पुलीस मटको लायतल्या धोत्ताय? कोणे सांगील्ले रे तुका, फकाणां मिरे, आरे ते लायतल्या धोन्नाय. तेच लावों वैताय मटको. जाणा मिरे सालू मागे चेडो पणजी कामा वैता. कितें गव्हमेंट काय म्हणोता? व्हय रे. ते तेपार सरकारान खूंय पांचीग केलोलें. भायर पासून सोत्तो जाल्यार मेयणा जालें. तेमगे इस्टाफान खूंय केलो चोय मटको घेतोल्या कार्ड दिवन मटको लायलो. पांचीग केलो चोय त्याच डेटीचेर. कितू घेतले जाणा 10,000. कितेंय बंद करीत. हांव फाल्यां मोरत सांगो जायना. पूण मटक्या मरण ना. मटको ह्या संसाराक सोडोन केदोनाच वयचो ना. पयलीं लावों शीक मटको. मागीर हांव कोत्तां तुका मटक्या एजंट. ●●●

# कुयेटकारागे मांय

आगुस्तीन ओ आगुस्तीन. कितें रे बाबा. कुयट साकून येतो म्हण चीट पासून धाडों ना मिरे तुवें. कितें म्हाकां सोऱ्या प्राय्ज दितो म्हण केलोलें? कोणाको? म्हाका, म्हाका कित्यारे? मायगे फोकाणां कोत्ता चोय. दूडू फारीक करोंक काय कितरे. आरे सोऱ्या प्राय्ज दिवचे पोरोस तुयें आनी कितेंय हाडोचें नी. जाणा मिरे बाबा, आपलीना गे चेडयान कुयट साकून मांयको वून आवोल हाडला खूंय. तुयें हें कितें हाडिलें रे? आपलीन सांगिता तेतूं कितेय घाल्ल्यार हून जात म्हण. एक मिनूट पासून लागोना खंय. तेंतू कितू आयदणा वैता जाणां? एके बराबर? धाकटुर्ली धा खूंय. ना जाल्यार तुका चोय कुयट साकून मायको सोऱ्या प्रायज घेवन येयलो तो. धोल्ल्या आमी दोगांय काबार. कितें तेका मायकोवून आवन म्हणनाय? आनी कितें म्हणताय रे? मायक्रोव्यू ऑवन. मायको वून जाऊ नाजाल्यार पायकोवून जावूं. तेगे मांयक कितू सुशेग जाणां, जाणट्यापणीन? आरे तेणें खूंय मिरे बाबा पिलेटीं घालून पुलाव दल्लो. दोत्तोतेपासून न्हय रे वून जालो. तेगे मांय खूंय 15 दिसां जेवण एक दिसा कोत्ता. उरलो दीस बैसोन खाता खूंय. केशी जाणा? मायकोवून आसा न्ही रे तियेको? उन कन्न कन्न खाता खंय फिरिर्जीतलें. तेगे माय मिरे बाबा शेताको गुडव्या मडकी घान्न दोन्नाय तेशी जाल्या. केशी जाणा ह्या मायकोवून आवनान सुशेग नू रे. जाणा मिरे बाबा, तेगे चेड्यान तिये सांगिल्लें खूंय कितेंय पातळ पासून दोल्ल्यार गोरोम जाता म्हण तियेन कितें केलें जाणा. पावसा न्हेसण (पातळ) सुकों ना म्हण तियेन तेंवय दोल्लें खूंय मायकोवू आवनांत. कितें सांगू बाबा तुका. दोतो पासून पातळ जाल्लें खंय. गोबोर जालो खंय मिरे बाबा, केशे रे? पातळा गोबोर केसो जालो रे बाबा. कितें पातळ म्हळ्यार न्हेसण न्हू. आनी कितें? पेज, बा, च्या बा दोप्पाची. जांवरे बाबा आमको ना तें. नाजाल्यार हांव तेशें कोत्तो आसली मिरे बाबा.



# उपोशण

वत्सलबाय, ये वत्सलबाय. बरी मगे. आं मात्शी राव म्हणटा? ना गे बाये. म्हाका कळाव जाता कामां म्हजीं सगळीं तशींच पडल्यांत. कसलीं काय म्हणटा? आगे तूं नकळो? आमगेले हे उपोशणाक बसतात म्हणून. आं कसलें उपोषण कांय म्हणटा? आगे नांव, प्रतिष्ठा, मान मेळटलो जाल्यार पयलीं कितें तरी करून दाखोवंक नाका? कितें उपोशण केल्यार हें सगळें मेळटा काय म्हणटा? हय तर. कितें म्हणटा जाणटेपणान धवळे रंग कोणे सांगल्यात काय म्हणून? आगे हे खंय जाणटे जाल्यात? आजून 60 जाता थंय आसात. आनी जाणटे जाले म्हणून कितें जालें? आमचे पयलिंचे पंतप्रधान नासले गे जाणटे? इंदिरा गांधीन चलोवंक ना गे व्हडलो देश. कितें म्हणटा? हांवेनच हांकां सांगलां. प्रयत्न केल्या शिवाय परमेश्वर मेळना म्हणून. उपोशण कित्याखातीर काय म्हणटा? आगे रस्त्याक पडल्यात न्हय गे व्हडले व्हडले फोण. पैरच काम केल्लें खरें पावसा आदीच गेलें मगे डांबर. कितें? डांबर पैरच घालां म्हणटा? आगे तो घालूंक ना आमच्या गांवच्या लोकांच्या दोळ्यांर फांसला म्हणया. कोणच पळय आवाज काडिनात कपयाळीं तरी मारूंक जाय मगे? म्हणून हावेंच दिली हांका आयडिया म्हणून बसतले हे बाजारांत उपोशणाक कितें भुकेन, तानेन तळमळटले म्हणटा? आगे हांवे सगळी तयारी केल्या. वत लागतलें म्हणून व्हडली बियरीचेर मेळटा ती सत्री हाडून दवरल्या. हांच्या खातीर दोन वटारपरीस कंपाड बाटल्यो भरून काळंगाचो रोस, दोन बाटल्यो मुंसंब्यांचो रोस, हांका इल्ली तलफ येता न्हय गे दनपराची कुट्ट करपाची. तें सुद्धा हाडून दवरलां तांका पियेवंक. कशें मेळटलें काय म्हणटा? आगे पोलीस कितें दिसभर हांच्या म्हऱ्यान रावतले. दनपरांचे ते जेवणाक. हांका थोडोसो निरो घालपाचो. कित्याक काय म्हणतां. निरो पितकच उतर मात्शें लुडबें पडटलें न्हय गे. रोकडेंच

पेपरार कालेत बिघडल्या. म्हणून येतलें. मागीर दोतोर, फातोर, मंत्री, संत्री, हांका पळोंवक रस्त्याचें काम रोकडेच करपाचें उतर. मागीर लोकांची उलोवणीं जिंदाबाद, जिंदाबाद, कोणें उपोशण केलें. मेवणो कोणाचो, पूत कोणाचो, भाओजी कोणाचो. फामाद. इतलो फामदा मागीर उबो राव रे इलेक्शनांक. मागीर जालें ना. कशी लागली तुमकां म्हजी आयडिया.

●●●



# अभ्यास

अभ्यास अभ्यास, अभ्यास. कंटाळो आयलो म्हाका ह्या अभ्यासान. शाळेन वतकच मास्तरांचे शिकवप, घरा येतकच आवय बापायचें अभ्यास कर, अभ्यास कर म्हण फाटीक लागप. तापवप, उलोवप; नाका गे बाये हें शिक्षण कोण म्हणटा गायनाक वच, कोण म्हणटा कथक शीक, कोण म्हणटा पेटी शीक तर कोण म्हणटा तबलें शीक. कितें म्हणून शिकतलें हांव. अभ्यास केन्ना करतलें हांव. अभ्यास करून हेंवय करूंक जाय. अभ्यासय जायना म्हळ्यार शेजाऱ्यांली दिता उदाहरणां. तो शिकूंक ना. शाळा आनी पेटी. ताका मेळूंक ना नाचाक पयलें बक्षीस. अभ्यास करूनय पदां म्हणपाक व्हडलो पुरस्कार मेळ्ळो ना. एक न्हय हजार. आतां आनी सगळ्यांकच लागलां ट्युशनाचें पिशें. दिसभर दितात खंय ट्युशनां. म्हजे सुद्धां नांव घालां. शाळेंतल्यान घरां येवन हांव जेवतलें केन्ना? जेवंक मात्सो वेळ काडल्यार फडफडटात कशीं जाणां? म्हणटात जोडून आमकां पोसूंक नाका. शिकना जाल्यार खंय रस्पेत उरना. समाजांत मान ना. आलामपेडपार कशें भोंवतलें? गोरवां राखतलें. खरेंच कंटाळो आयलो ह्या शिक्षणान पुस्तकाचें वजें सांभाळटासर नाका पुरो जाता. जाणां मगो गीता. केन्ना काय बेग उडयतलें सकयल शें जाता. जेवन जेवन वचपाचें. पाच मिनटां लेगीत घरा आसना हांव. सव्वा दोनाक वतां हांव ट्युशनाक, थंयसून चारांक पेटयेक, पांचांक गायनाक संक कथकाक. सामकें पुरो जाता गो बाये. न्हिदूंक तरी मेळटा? घरा येतकूच होमवर्क करपाचो आसता. उभ्याउभ्यानीच च्या पिवन बसता हांव अभ्यासाक. न्हीद येता गो सामकी. परिक्षेक पास जालें म्हणून जायना. मार्क कशे कमी पडले? ट्युशनाक घालां मगो तुका? वगडायले मगो पयशे? वड्ड्याल्या चेड्याक ट्युशनाक वचनासतना मार्क गो कशे चड पडले? अभ्यासाचेर लक्ष ना तुजें. आयकूंक नजो जाता गीता म्हणटात कशीं तुज्याच बऱ्याखातीर घालां. म्हाका पोसूंक नाका तुवें. हजार तरेचीं उतरां आयकूंन कंटाळो आयला गो म्हाका गीता. वेळ जातलो. विचारतलीं म्हाका वेळ कित्याक जालो? खंय गेल्लें? बरें गो येता हांव.



# संकष्टी

व्हनीबाय ये व्हनीबाय, व्हनीबाय ये व्हनीबाय न्हिदली काय ही बेगीनच? व्हनीबाय ये व्हनीबाय. कितले उले केले गे तुका. म्हाका दिसलें न्हिदली काय म्हणून? कितें वरां कितलीं जालीं काय म्हणटा? साडे आट जालीं न्हय गे. संकष्टेचो कितें? कितें भटमाम येवन गेले काय म्हणटा? हालींतेपार ते खंय येतात पुजेक? ते राजकारणान पडल्यात न्हय? भट मामी आयिल्ली. तिका कळटा काय म्हणटा पुजेचें? हयतर सादो कासाटो मारून येना ती. बरी णववारी न्हेसून येता. आसारमाणी घालून बसता ती पळयल्यार भटलेगीत पडटले फाटीं. मंत्र तंत्र... सगळें कळटा तिका. नाय जाल्यार, ॐ नमःशिवाय, केशवाय नमः, माधवाय नमः, गोविंदाय नमः म्हणटा. उदक सोड, उदक पी, आचमान कर, दोळ्यांक हात लाय हें सगळें सांगता. अनीक म्हण चड भटमाम कितें करता तर? हय मगे. कितें काळोख दिसता भायर? आगे चंद्रोदय खंय जाला? 9.30 क खंय चंद्र दिसतलो. मागीर आगीं ओपून, जेवतली तरी केन्ना. कितें? हय तर तिणेंच सांगलें. चंद्र उदेता ते वटेन फुला सोडूंक. तिका म्हणून खंय वेळ आसा? वाडो भर लोक करतात न्हय गे संकष्टी? 5 मिनटान करता ती सगलें. सगळें तयार मात दवरूंक जाय? कितें दक्षीणा कितली काय म्हणटा? 501 रुपया. एक नववारी कापड. ताचेर खण, 5 नाल्लानी होटी भरपाची. गणेश पड, फळां तें आसाच न्हय. किते म्हारग पडना काय म्हणटा? आगे रोकडीच सोपोव वता न्हय गे ती घरा? 9.30 ची कार्यावळ पळोवंक मेळटा आमकां. जाणा मगे व्हनीबाय तशी भटमामी हुशारच. तांबयांतलो पैसो आनी सुपारी लेगीत घेवन गेली ती. आतां बरे जाले ना भट मामांचें? दोगांयचीय जोड. जेवणा फुकट. बरें गे येतां हांव.



# कम्प्यूटर

जयश्रे, ये जयश्रे केन्ना येयलें तूं? बरें आसा मगो. बाय केशें आसा. बाब केसो आसा? तेमगे सगळीं बरीं आसाय मगो? चेडो कितें करता गो? कोलेजीं वैता? मागेलो बी कालेजीं वैता. तेमकां आतां कानफुटार दिलाय न्हू गो. सरकारान? तेमकां दवरूं दिल्याय खूंय. तेका दवरूं मेज जायें खूंय. तें हाडों वैतां हांव. सध्या थिंणी दवल्लाय. तेमगेरच. तेमकां एक फेन जावो खूंय. नाजाल्यार तो तापतो खूंय, कितें? दिल्यार जालो नू गो म्हयनो? तेजेर शेव बी करों मेयटा खूंय शेवा नाडो बी करूं मेयटो न्हू गो. इल्लें चण्यापीठ आनी तेलय हाडों जायें आतां शिमगो लागीं येयला न्हू गो. कोणी दारां येताय न्हू गो. कितें? तुकाय करों जायें? मागे चेडो आसतनी यो. गाळीं झारी येतना घेवन यो, नोखणाचो. ओ चोय बाब मागे येता मागीर खेळों वैतो तो. बाबो ये बाबो जयश्री येयलेलें तेमकांय थोडो शेव करों जाये. दिता मरे बाबा तेकाय इल्लो करोन. तेदोपासून हांवय बाजरां वचोन येतां कितें जाले रे बाबा तापोंक? आपल्याच्यान जात नू जाल्यार कोणाचेरय उपकार करचो. जाणा मिरे बाबा कितें? तेचेर शेवकरों मेयणा? तूयेन सांगले रे शेव करों मेयटा म्हणोन. साठोवन दवरों मेळटा? तशें सांग मरे बाबा. तशें जाल्यार, तिये सांगो नाका. येतना बाजरां वचोन येतां तर, बरें जालें रे बाबा मिसांगो, सोलां, अळसांदे साठोवन दवरूं मेयटो. ह्या तेपाक सगळ्या कीड लागताली. तुयें म्हाका पोयलीं कित्या सांगो ना? बरें बाबा तिये सांगोन येतां. नाजाल्यार ती पीठ, तेल बी घेवन येईत. शेव जायना म्हळ्यार कोणी पूण दीत तिका काडोन. बाबो घरी रांव हांव रोकडेंच येतां.



# नागोवणों बाबा

सोनू बाब ये सोनूबाब. तीं गेल्यांत तीं पोरां कोणालीं रे? चांडाळ मरे तीं पोरां. देख नाशिल्लीं पोरां, विद्वाटीं, अकल्ल शून्य पोरां कोणालीं काय म्हणटां? कितें? कितें जालां काय म्हणटां? आरे ही कालचीं परची पोरां म्हाका नागोवणो म्हणटात? आलराम पेड्डार खंयचे कडलीं कितें मात्सो ओगी राव म्हणटा? ह्या पोराकडल्यान हांवें म्हणून घेवप नागोवणो म्हणून? आरे, आरे खुशाली खंय धांवता रे तूं? मात्सो राव मरे. तू पोंग्यालो खुशाली मरे? हांव कसों वळखलों पळय तुका. केळीचो घडाय घेवन खंय धावतालो रे तूं. तुजो बापुयच न्हय तर तुज्या बापायचो बापूय लेगीत केळीचो घडाय दिल्याबगर वचनाशिल्लो जाणा मरे तूं. कसो दिवचो केला रे केळीचो घडाय? 150 रुपया? कितलीं आसात रे तीं केळीं? 160. आरे तुंजीं केळीं पकत 90 च आसात मरे. आनी कोणी पळयल्यार फटींग उलयता म्हण मारतलो आसलो तुका. कोणें मेजील्लीं री रे तीं केळीं? घरकान्नीन मरे. चुलिचेर पेज दवरून मेजताली दिसता केळीं. हांसता पळय. बरो सांपडलो पळय म्हाका हो खुशाली. वता तो कोण म्हादेव दिसता. आरे म्हादेवा दपता सो रे कोणाक ? आरे पांटले घेवन खंय चल्लो? कितें म्हारग? कश्ये दिल्यात रे ते ? 6 पाटल्यांक 500 रुपया? कसो पडलो रे पांटलो. कोंड्याचो रे? खंय मारले रे ते? कोणाली रे ती कोंड्याची आळ? 300 रु. दितां. फॉरेस्ट भितर उडयतलें तुका चोरून मारल्यात म्हण कळ्यार. हय, हय, भाटकारा कितें 300 रु. घे आनी मुकाट्यान वच. मातूय तकली ना पळय हांकां. म्हजी तकली हांका लागपाची ना. 99, 90 करून हांवे संसार चलयलो. कोणाक कापास्ताद आसा? हे पळय येतात, तवसान पोर, देख ना पोरांक. म्हाका नागोवणो म्हणटात? तकली चलयली ना जाल्यार संसार चलता खंय? पळय, पळय हुयेल्यो घालतात पळय हे आतांचे पेड्यार पोर, देख ना हांका.



# सोरतीकार सोपलो

सोरतीकार सोपलो म्हजें नांव. सोरती सवाय विकतां हांव घेयात तुमी सगळे जाण. सोरती विकतां हांव. सोरती सोरती घेता बाबा.आयची काड, फालची काड पूण सोरती काड. दिवूं महालक्ष्मी? आरे म्हाका वळखूक ना? सोरतीकार सोपलो म्हजें नांव. दिसपट्ट्यो सोरती सोपयतां मग हांव. कितें? हय रे, वाड्यावाड्यानी सदांच येता हांव. बाबाक जाय? बायेक जाय? आयज काडात आनी व्हरात 25,00,000 लाख. कितें म्हणटा? लागतल्यो काय म्हूणून? आरे लागूंकूंच जाय. तुमी सोरत्यो काडल्यो आनी लागूंक ना अशें जाता? बाबा खंयची काडटा? मुंबयलक्ष्मी, राजलक्ष्मी, राजहंस, भाग्यलक्ष्मी, गजलक्ष्मी, दिवाळी बंपर, नाताळ बंपर. दिंव रे? उलयात, उलयात. आरे लागता खरेंच. आरे काडून तरी पळय. त्या येसवंताच्या पावट्याक विचार 25,00,000 लागले. घर पळय मरे ताणें बांदलां. पळोवंक ना? सोर्त काडली म्हण पिड्यार जायना. काडिल्ले पैशे तरी मेळटातच. आरे ह्या सदाशीवान काल 10 सोर्ती काडिल्ल्यो प्रत्येक सोर्तीर ताका 20-20 रुपया लागले. बाकीचे म्हण तूं नशीब. नशिबाक ना म्हणूंक जायना. बाब यो, बाय यो. बंपर, बंपर महालक्ष्मी, राजलक्ष्मी, गजलक्ष्मी, राजहंस, भाग्यलक्ष्मी. आरे खरेंच लागतली. आगो चड आशा धरूं नाका. लागले 21,00,000 समज, कितें करतलें? म्हाका कितेंय दितलें मगो? फूल ना जाल्यार पाकळी? हें पळय सुंदरें धांवत येता. म्हज्या म्हऱ्यानशें दिसता. आगो यो यो बंपर हाडल्यात हांवें. कितें कालची सोर्त. कितें जाली? लागली तुका? आगो नंबर सांग. पळयता हांव आगो सोर्त दिल्याशिवाय पैशे कशे मेळटले? आगो 21,00,000 ची? आगो टेक्स बी काडून 16,00,000 तरी मेळटले. व्हडल्या धंदेवाल्यांक दी. ते तुका 20,00,000 तरी दितले. खंयची? मुंबय लक्ष्मी सिरीज कितलो झेड-जी मागीर वाच नंबर. कितें, कितें हय हय. लागली मगो तुका? मागीर सांग हांकां तुमचें नशीब सोपल्याच्या हातान हय मगो. काडात काडात सोर्ती आयज यो फाल्यां यो सोर्ती धनलक्ष्मी, गजलक्ष्मी, राजलक्ष्मी, यो, यो, बाब यो, बाय यो. 

# भिकारी

(एक हात शर्टाच्या भितर घालून कुबडी घालून येता)

मायी दार उघडा मायी. मायी दार उघडा. उपाशी आसां मायी, दोळे ना मायी, हात ना मायी, दार उघडा (ताट हालयता 5-5 रु. दोन दोन नाणी) गोंयकारांक मनशाची काकुळट आसा हें खरें. रोकडेच भुल्लुसतात घाले पळय तिणें म्हाका 10 रुपया. हांकां म्हणटा तकली. खंय गेल्यार काम जाता हें आमचे सारकेले सारकें जाणात. आमी गोंयांत कित्याक येतात. पैशे करूंकच. दिसपट्टो भोंवता हांव लोकांच्या दारांनी. पांच रुपया सकयल कोण घालिना. चडच रडलों जाल्यार तोण इल्लेशें करून मागल्यार 10 रुपया. बी. कॉम जाल्यार जालीं 8 वर्सां. अर्ज केले हजारांनी, इंटरव्यू दिले खोटांनी. वणवण भोवलों हांव आवयबापायचो एकटोच पूत. कश्ट काडून शिकयलो. पोट तर भरूंक जाय कितें करतलों. गोंयचे खूप आयकल्लें हांवें. वापरली तकली गोंयकार काय म्हाका वळखुवचे नात. चोरयो कांय करूंक कळना. आज्याचो हो कोट, पुडवें खंय पणज्याचें. हात पांय सारखे आसल्यार कोणच घालचो ना भीक म्हण घेतले कुबडें शेजाऱ्यालें. म्हळें जुने तें सोने करून पळोंवया सादाल्यार सादलें. दिसाक 300 रुपया जोडटा हांव. सकाळची मागतां भीक आनी सांजेर पडवेर बसून गायतां गीत. बंगलो, गाडी पळयल्यार भरचे पडटले टॅक्स. जातले म्हज्या कर्माचें फेस्त. म्हणून करतां हांव हो भेस. होपळय कोण येता बरोच पैशकार असो दिसता. (हात भितर घालता) बाबा भीक घाला बाबा. उपाशीं आसा बाबा, पैशे दी बाबा आवयस वाजूंक ना मरे, गेलो काय (दोळे उगडटा) सोर्त लागली म्हाका 100 रुपया. मागीर कशी आसा आयडीया. कश्ट करिनासतना पोट भरपाची. श्रीमंत भिकाऱ्याची, सत्याक मानना. जिणेक अर्थ ना.

हेंच सोंग बरे. नाजाल्यार हरशीं पूण भिकारी खंय मागता भीक. आस्तीकच मागता भीक. हय, आसूं येतां, म्हूणून आस्तीक म्हणला. आस्ता आसा न्हय तांकां. हय मरे? खरे मूं? वेळ जाता म्हाका ताट खंय घेतले काय म्हणटा? आरे कुत्र्याचें तें. ताट घश्टीत खाता न्हय रे तो. जमिनीर धडायतात न्हय रे. हांव हातान, बोटान धडायतां इतलेंच. याद धरात म्हजी.



# योगा

सरू ये सरू, सरू ये सरू उठना गो? आयज वचचें ना योगाक? आगो सकाळचीं 5.30 जालीं पळय. संक वतलें मगो? आळशी नंबर एक. सरू ये सरू ऊठ मगो. आळसुटाक कोणें सांगल्यात योगा. आमकां बेठेंच जागरण. घरांत कामां पडल्यांत तीं केल्यार कित्याक जाय योगा? फेशन जाल्या फेशन, योगाची आसरमाणी घालून देव देव केलो म्हणून जाता. बरेंच आंग घोळांवक जाय. म्हाका जाली आतां 60 आनी 8 वर्सां. हांवें केल्या खंय योगा: सकाळीं च्याचो घोट, तोसुद्धां फुटो घेवन पोरसूं शिपूंक वतालें हांव. कुटुंबाचें घर म्हणटकच, ही रास आयदणाची, ही रास कपड्यांची. 10 नाल्ल कांतले जाल्या लेगीत पाव नासले. रगड्यार वांटपां. आतां हांकां जाय वावराडी, मिस्करावेलें जेवण, गेंसीचेर शिजवप, कपडे मशीनान घालप, तरीकय म्हणटात कशीं? खावप सारकें जायना. हांव म्हणटां हाव कितें खातां? सकाळच्यो रोटयो उज्यार फुलयिल्ल्यो उकड्या तांदळाची पेज. गंवाच्या कुंड्याच्यो भाकऱ्यो मागीर म्हाका कित्याक धाड मारिना काय म्हणटां. आज हो पांय दुखता, फाल्यां ते बोट, कमरान आयलें फाटीन आयलें. सदांच उठून चिंतप येता चिंतप येता. कसल्यो अपुरबायो म्हण कोण जाणा. म्हाका तर कामा फुडेन जिवाचें पडुंकच ना. चरबी वाडची ना आनी कितें जातलें. बलकांवार बसून गिळ्ळें नाजाल्यार टीवीच्या म्हऱ्यान. आंग घोळयतात सान्न शितोडो तर ना. घर तर पुसप चेडवान, तरी बरें धरून पडूंक ना, योगाक म्हणून कितें वेगळें शिकयतात? म्हणटा कशें, हांवें भाकरी खावंक ना. खतखतें खांवक ना आनी घेतात किते खतखत्यान घालतात पळय त्या भाज्यांचे सूप खंय. आंगाक लागूंक नाका? हय मगो नलू. योगा जाय योगा आंग मात्शे तरीं घोळूक जाय मगो. जाणा मगो नलू दिसभर न्हिदप. नाजाल्यार टीवी पळोवप. पळयलें मगो तुका केन्नाच्यान हांव उठयतां पळय उठता जाल्यार पळय तें. हांव खबऱ्यो सांगताले म्हणून सांगिनाका आं. उठलें शें दिसता. हातरूणां कवळूंक जाय म्हाका वता हांवें.



# अभ्यास

रीना ये रीना, रीना ये रीना. उठ मगो बेगीन. वरां कितलीं जालीं जाणां? कितें आनीक थोडो वेळ न्हिदता? आगो सात जावपाक आयलीं सात. शाळेत वचूंक नाका? आळसूट खंयचे कडलें आगो मिराक पळय कशे सकाळी पाचांक उठून अभ्यास करता तें. कितें तकली उसळटा? उसळटलीच. अभ्यासाचें नांव काडटकच तकलीच कित्याक? सगळें उसळटलें तुजें. नाजाल्यार पोटांत तरी दुखतलें. हय मगो? टी. वी. पळयतना तकली कशी उसळणा तर? रीना म्हज्यान सोंसू नजो. तकली आपटोवची कशी दिसता. तुज्या पांया मुळा. आगो आता शिकनाशिल्लीं कोणच नात. घरांतलें काम कांय तुका करचें पडना. खंय गेल्या गो तकली तुजी? कितें जाय तें तुका हांव हाडून दितां फक्त शिकपाचेंच काम आनीक तेंवय जायना जाल्यार कशें जातलें गो तुजें? हे दीस तुका परत मेळचे नात. रीना, मागीर विचार करतलें तूं. पश्चाताप जातलो तुका शिकूंक ना म्हणून. आतांच अभ्यास कर. शिकलां कितें, शिकला कितें? म्हण विचारतलीं. रीना अभ्यास दीस रात बसून करपाचो आसना. शिकयलां तें मन लावन शिकत जाल्यार, वाचलें जाल्यार रीना अभ्यास कठीण लागना. हांव दिसल्यार पुस्तक हातांत तुज्या शाळेंतल्यान येतकच तो बोटवो एकिकडेन आनी तूं एकिकडेन. कितें म्हणटा? आयच्यान करतां? सदांच तू म्हाका हें सांगता केन्ना उजवाडटलो तुजो आयज? गेल्ले दीस परत मेळना रीना. दीस जशे वतले तशी तुजीं वर्सा वतलीं. जाणा मगो रीना. रीना त्या गंगुल्या चेडबाक कोण घेवन बसता अभ्यासाक? आवय सकाळीं वता शेतांत आनी बापूय वता बोकड्यो घेवन कोण सांगता ताका अभ्यास करूंक? ताचे तेंच करता मगो? पुस्तकां सुद्धां धड नात मगो ताका? मात्शी देख घे ताची. करतलें मगो अभ्यास? काय परत तेंच. चल बस अभ्यासाक तकली खावूं नाका म्हजी.






# जनगणना-1

व्हनीबाय ये व्हनीबाय, व्हनीबाय ये व्हनीबाय. आं कितें म्हणटा? इतल्या तिळसांजेचें खंय काय म्हणटा? आगे दिसभर कामां. पडलेलीं आसतात न्हय गे घरांत. कामा थोडीं म्हणून हीं आनी येतात दारांनी. कितें कोण काय म्हणटा? सरकाराल्यो धुवो काय सुनो काय पूत, जांवय हांव नकळ्ळो गे बाये. दीस उजवाडचो आसता. हीं आपली दारार. कित्याक येतात काय म्हणटा? आगे सांगतात शेनशा करूंक आयल्यांत म्हूणून. हांव म्हणटां दर्यावेळ्यो पाड पडल्यात काय म्हणटा? कितें शेनशा न्हय? शेनसस् तेंच तें. विचारल्यार सांगतात जनगणमन करूंक आयल्यांत म्हण. कितें? जनगणमन न्हय? आनीक कितें? जनगणना ही आनी नविदादच मगे. आं. फाटल्या तेंपार गोठे, गोरवां, दुकरां, मांजरां, सुणे, बोकडे, कोंबे मेजतालीं तशें? बरीच मगे हीं. करतां करतां मनशाचेर पावलीं. म्हाका विचारता तुमच्या घरांक कर्ता कोण? हांवें म्हळें दिसना तुमकां? येदी व्हडली काडी पैलवान बायल काय म्हणून? व्हनीबाय सकाळींच 5 ऊठून जी लागतां हांव कामां करूंक ती रातीचीं 10 मेरेन कामां सोंपनात. नाका जाता म्हाका जल्म वेल्यान विचारता घरान करता कोण काय म्हूणून? कितें तशें विचारिनात आनीक कितें विचारतात तर? घरांत मुखेली कोण काय म्हणून. जाणा मगे व्हनीबाय सगळ्यो गावांवेल्यो राटावळी हांका कित्याक गे? विचारतात कशीं तुमकां भुरगीं कितलीं? चले कितले? चलयो कितल्यो? कितें करतात. खंय आसतात? कितलीं शिकल्यांत? नोकरी करतात काय कितें? बेकार कितलीं आसात? तूं कितें करता? घरकार कितें करता? हांच्यागे माथ्यार कोणें घालां? हांच्या भशेन आमी बेकार नात आमीच पळोंवक जाय मगे भुरग्यांक. काम ना धंदो हांकां. हाणीं नोकऱ्यो दवरल्यात. पैशे दिले बगर काम कांय जायना खंय. दांत्यार बसतकच ओंवयो येतात. येता गे हांव गोरवां येवचीं जालीं दाण्यार. दूध काडूंक जाय. गोरवांक खावड हाडून घालूंक जाय येतां गे हांव व्हनीबाय.



# पोस्टमन

अय्यय्यो रामा, अय्यय्यो रामा, अय्ययो म्हाका पळयतेर आसा म्हाका वळखता कितकी? कितली की वर्सां जावन गेलो म्हळ्यारी ह्याच ड्रेसार भोंवता पळय हांव. अय्ययो वळखनाशिल्ले भशेन करता पळय. दोळ्यार खवळ आयलां की म्हणटां? आरे हांव पोस्टमन म्हळो. कितें? हयवय. मागेलो बाब सोनू बी पोस्टमन आशिल्लो. बाबालो बाब बी आनी बाबाल्या बाबाल्या बाबाल्या बाबालो बाब बी पोस्टमन आशिल्लो खंय. आमगेली हेरिरीटीच ती. खांद्या बोटवो लावन घेवन मोटवें कालसांव घान घेवन, तकले टोपी हातां सायकल घेवन चलतेर वता पळय आमी. आमगेल्या जाणटेल्यांनी चलत वतेर लोकां पत्रां पावतीं केल्यां पळय. आता म्हण देवादयेन सायकल मेळळ्या. तेतूंनच भोंवचो हो हांव. आतां म्हण गांवा घरां कितली की जाल्यां पळय. पोस्ट लेटराची खातड पडटा पळय. मोर्नींगा सोर्टींग करचें पडटा. आफ्टरनून सायकलान भोंवचें पडटा हो नाका पुरो जाता पळय, गव्हर्मेंट सगळे लोकांचेर वॉच दवरता म्हणटा आमगेले मात माईंड जायना पळय सेंटर गव्हर्मेंट करच्या जाय मिस्ता. वोट्टू घरांनी फोन घेतला म्हळ्यार पोस्टां लेटरां घालचें क्लोज जायना पळय. खरें पळोवच्या गेल्यार फोनाचेर टॉक करच्या जाता पळय. गांवांनी बशी खूप जाल्या पळय. सोयऱ्यांगेर वचून दिसपट्टी घरल्यांगी पावच्या जाता म्हळ्यार लोक लेटर घालच्या राबना पळय. कितें म्हळो फोना बिलां आनी बशी तिकेटी पळयल्यार लेटर घाल्लीं बरें म्हणटा? हय रे तेंवय खरें. नाजाल्यार पोस्टमेनच बंद जातलो. न्ही आमगेलें पोट भरचें बंद जातलें पळय. आतां ही पोरां मोग करच्या लागल्यां. लव्हर लेटर बरवंच्या शिकल्यांपळय. म्हाका मातर तरासच आं. एक मातर खरें आं. कितें की म्हणटा? कोण कोणाले लव्हर सोदून काडच्या वेळ लागना पळय. एक मातर खरें हां फोरेनासाकून येयिल्लीं लेटरां टाईम टू टाईम

ावयल्या तेंमगेले संबधीक हातार कितना कितेंय वडयता पळय. ना जाल्यार फुकटां कोणालें खांवच्च्या मेळ्ळां. म्हण घेवन पोस्टमना सर्वीस करच्या कोणय फावोर लायना पळयला तुवें? कितें म्हळो इंगलीश कळटा की म्हणटा? नारे येतना वतना रस्त्यार लोक मेळटा तेकांच विचारतां. आरे हो ॲडरेस कोणालो कितकीं?



# नात जाल्या

सुशीलाका ये सुशीलाका, सुशीलाका ये सुशीलाका, आं, कोण काय म्हणटा? हांवच गो तें मोगरें. म्हाका वळखूंक ना? आगो म्हाका नात जाल्या नात. कितें? बर्फी घेवन येयलां काय म्हणटा? आगे बर्फी कित्याक? पेढे हाडल्यात हावें पेढे. कितें नात जाल्यार बर्फी दिवोंक जायी? आगे तो काळ गेलो. आतां काळ आयला चेडवांचो. कितें फुगोट्यो मारलेल्यो आयकूंक ना? कानान भेड्डी जाल्या मिस्ता तूं. आगे हांयेन बॉक्स लायलेलें काल फुगोट्यांचे. हायेंन नवस थोडे करूंक ना चेडूंच जायें म्हणोन. चेडवाक माया आसता न्हू. जाणा मगो सुशीलाका. चेडूं जाल्यार सरकार लेगीत फुगोट्यो मारता. ल्हान आसतना तें वाडलें आनी लग्न जातामेरेन तेमकां सरकारच पळयता खंय. आगो सुशीलाका तेमकां कपडे, शाळेन वतकच पुस्तकां सुद्धां सरकार दिता न्हू. इतलेंच न्हय सुशीलाका तेमकां शाळेन वसोंक आनी येवोंक सायकली दिल्यात खंय न्हू. ते शिवाय तेमच्या नावांन बँकेक पैशे सुद्धां दवरता म्हळा चेडवांची सगळी जबाबदारी सरकारानच घेतल्या न्हू? कशी काय म्हणटा आगो तेमचे रगत पासून तपासताय खंय. आवय बापूय नासलेल्यांक सरकार पोसकें घेता न्हू? आगे काल एक नवीदाद आयकलीं तुयें? कसली काय म्हणटा? आगे चेडवा– लगीनसुद्धां सरकारच करता खंय. हायें चेडया पयलीं सांगलेलें, चेडूं जालें तो सुटलो. शांतादुर्गे होंट सांगोन घेतल्या हायें. तिचे मार्गशिर्षातले बिरेस्तार करों सांगल्या हांयें. कित्या काय म्हणटा आगो लक्ष्मी येयली न्हू घराक. कितें पयलीचें कितें काय म्हणटा? आगो पयलींच्यो दोगांय चलयो. चलयो जाल्यार खूब बरें. मायक आनी सूनेक पडटा काय ना ते पळोवप आनी एक एक म्हयनो एकेका जांवयागेर वचोप रावोंक. जांवयांक खंय मांयची होडवीक. नातें वाडटा न्हू गे. कितें सून नोकरी करता काय म्हणटा? हय गे. तेमकां आतां 1 वर्स सुटी मेळटा न्हू गे. बरें वैता हांव चेडवा न्हाणों जायें.



# नातू जाला

काकीबाय, ये काकीबाय, काकीबाय ये काकीबाय. आगे खंय धांवता गे बाये? कितें? फोगोट्यो कोणागेर जाल्या काय म्हण पळयताली? कितें गडगडाट जालो एकदम! कितें? शिन्याली सून सुटली शी दिसता? हय गे बाये जांव येता. कितले म्हयने तिका? बेगीन सुटली काय ती? कितें? काल माय सांगी 9 मयने जावन 9 दीस जाले म्हणून? तशें जाल्यार दवरिल्लोच चलो. कितें पैर नेवऱ्यो करतना तेलांत पिठाची गुळी सोडिल्ली? फुटली काय फुटूंक ना? फुटली ना मगे? तशें जाल्यार चलोच. कितें? चल्याकच हुस्केताली? पोट व्हडलें आयिल्लें काय ल्हान गे? उबार आयील्लें काय बशिल्या भशेन? कितें तुवें हालीं पळोंवकना? म्हाका पैर म्हणी शिनो जन्माक आयल्यार पुरो म्हण. जांव बाये दिवो पेटलो घराक. कितें? पयलिचें कितें आसा काय म्हणटा तीन चलयो न्हय गे. तीन चलयांचेर हो चलो जाल्यार कळस म्हण नाचतली. शिन्याली बायल चल्याक वथरेताली. दुसरें चली जाल्लें तेन्ना कपलाक आट्योच घाल्यो ताणीं. तिसरो तरी चलो जातलो म्हण मारांडाचे बॉक्स हाडिल्ले ताणें. चली जायना फुडें मारांण सोड फुगट सुद्धां एक लावूंक ना. जाणा मगे काकीबाय. चलो आनी चली भुरगीं सगलीं सारकींच न्हय गे आवयबापायक? चलो घराचो दिवो जाल्यार चली दिवली न्हय गे. कितें दिवो पेटलो म्हणतकच घराक घरपण येता. तिसरीचली जातकच मांय सुनकेडेन उलोंवक लेगीत ना. बांळटीक आनी भुरग्यांक लेगीत पळोवंक ना खंय तिणें. हातून तिची कितें चूक. आमचें नशीब फुटकें म्हण रड रड रडटाली. देवाक नवस केल्यात पांच दीस गणपती दवरतलो म्हण, सांगून घेतलां चलो जाल्यार. आयज वार खंयचो? मंगळार? मागीर हो गणपतीच तर. घालतली नांव गणपतीचेंच, फाल्यां येतली काकीबाय पेढे घेवन. आमकां दिवंक विसरूं नाका म्हण आं. हांव खबर घेतालीं म्हण बरें गे येतां हांव. आमगेर सुद्धां येवये ती पेढे घेवन. ●●●

# मोबायल

आबोल्या ये आबोल्या इल्लें थंड उदक घेवन यो पळोंवया. कितें? कितें जाला काय म्हणटा? आगो बेजार आयलो म्हाका बशीन. गरगर करीत थांबयत थांबयत हाडली न्ही गो बस ताणीं. एक वर लायलें केपें साकून मडगवां पावपाक. नाकां गो बाये बशीचो प्रवास. कितली गर्दी म्हण सांगू तुका आबोल्या. फुडें वच फाटीं वच, कंटाळो हाडलो ह्या कंडक्टरान. बस थांबली म्हणतकच दारांत आशिल्यांक सांगता हो कंडक्टर वैर काड. देंवतल्याक वयर काडपाक सांगता आनी चडटल्यांक सकयल काडूंक. कितें काय म्हणटा? खिळी गो दाराची. कंटाळो आयलो म्हाका. श्वास सुद्धां घेवंक मेळूंक ना. तातूंन हांव लांब. मिनीबशीर आमचे सारके लांबेले उपकारनात गो बाये. दुसरी कणकण मोबायलांची. हाचो वाजता म्हणसर ताचो वाजता, कितल्या मोठ्यान उलयतात गो हीं बशीन? बसभर लोकांक कळटात त्यो गजाली. मांजर दोळे धांपून दूध पिता म्हणपाची गजाल म्हाका याद जाली ह्या मोबायलान. कशी काय म्हणटा? आगो हीं आंकवार पोरां कांयचे कांय उलयतात. आगो मोबायल कानाक लावन उलोवपाचो न्हय? मागीर ही मगो कानांकय लायतालीं आनी तोंडाकय ओंठाकय लायतालीं कित्याक गो अशीं कतालीं तीं? कितें? मोगाचें उलयतना ओंठ मोबायलाक लावन उलवप? बरेंच मगो हें, म्हाका दिसलें खबर बऱ्याची, मोगाचीच आसतली. उमेदीन हीं उमो घेतात अशें दिसलें. आबोल्या ही गजाल मात कोणाक सांगू नाका आं. कसली काय म्हणटा? आगो मोगऱ्याच्या चेडवाक फाल्यां कोलव्यां आपयलां. कोणे काय म्हणटा? आगो कोणेतरी कल्लून. कितल्यांक जाणा मगो सांजेच्या सातांक. म्हाका कशें कळ्ळें काय म्हणटा? आगो मोबायलाचेर उलयतालीं न्हय गो तीं. कोण मेल्लो कल्लू म्हूणून देव जाणा. मोबायल बरें करता, रोकडोच रकाद पावोवन. तितलोच वायटय करता तो न्हय गो. हें सगळें लोकांक कळोवन मोगऱ्याक वचून सांगल्यार कशें? कितें आमकां कित्याक पडलां काय म्हणटा? आगो मोग करतां करतां फोग जायत म्हणून मोबायलान. नाका म्हणटा मगो ? तशें जाल्यार चल्लें हांव. ●●●

# जनगणना - 2

(बेल वाजता. हातान लाटणी घेवन 60 वर्सां पिरायेची बायल कापड नेसून पदर कमराक खोंचत रागान भायर येता) कोण? कोण जाय? कोण आयला भायर? (दाराच्या खाचिंतल्यान पळयता) कोण जाय तुमकां? उजवाडटा काय म्हण पळयतात. सकाळ म्हण ना, दनपार म्हण ना. तिनपार म्हण ना. हातांत पिशवी, साक घेवन तयार हे लोक. लोखंड, पत्रे, प्लास्टीक बाटल्यो तसले कांयच दिवचेलें ना म्हाका. (भितर वचूंक वता परत दारार मारिल्याचो आवाज) सांगल्यार कळना तुमकां (खाचिंतल्यान पळयता) भांगर चकचकीत करता म्हण येतात तीं काय हीं? सांगले न्हय तुमकां. आमकां पोलीश करपाचें ना म्हणून काकणांक. रिठ्यान घांसल्यार चक्क जातात तीं. चोरूंक आयल्यांत मेल्ली. घरांतल्यान हे भायर सरतात काय म्हण पळयतात. हालीतेपार हें खुपच भिरें सुटलां. (परत बेल वाजता) सांगलें न्हय तुमकां. म्हाका तुमचेकडेन उलोंवक वेळ ना म्हणून कितें माझ्या कडल्यान थोड्यो खबरी कळ्ळूंक जाय? आरे म्हाका गांवार भोंवपाची संवय ना. गांवावेल्यो खबरी केल्यार हे म्हाका ओंगी रावचे नात. कितें लोकांच्यो न्हय? म्हज्यो? म्हज्यो कसल्यो कर्माच्यो? म्हाका आयकूंक आनी सांगूकय वेळ ना. चपाती करतां करतां आयलां हांव. परत बेल मारली जाल्यार खबरदार. लाटणीच घालतलीं तकलेर. कितें आगे आगे करूंक कितें जाला? बेठी वचपाची नात हीं. कितें विचारपाचें आसा? भायल्यानच विचारात. घरान कोण कोण आसात काय म्हणटा? पळयलें म्हजो दुबाव खरो जालो. हीं तींच काकणांक ओप काडटां म्हण सांगून घर फोडपी. आयज खबर काडटलीं आनी फाल्यां फाटलें दार फोडटलीं. खंयची काय ही टोळी गांवार भोंवता? कितें तुमी तसलीं न्हय? सकाळीं सकाळीं काम कसलें काडलां? देवाच्यान म्हणात, आवयच्यान म्हणात पळोंवया आमीं गोंयकार म्हण. (विचार केल्याभशेन करता) आसूं येता ही गोंयकार. मोगाळ. उलयतात खरीं. कितें कार्ड पळयात म्हणटा? कार्ड कसलें? खंय बुडलां, व्हांवन गेला म्हण सांगून पैशे दिवपाचें.

हे मात हांव करचें ना. हांव पैशे फुकट कोणाकच दिना. काम करात. आसात बरीं तरनाटीं. पैशे मागूंक येउना? कित्याक आयल्यांत? कितें? दार काडात म्हणटा? हांव दार काडचेली ना. कितें विश्वास ना काय म्हणटा? आतां कोणाचेर विश्वास दवरपाचो सांगात सडसडीत. सखू गॅस बंद कर पळोंवया. कितें मामलेदारांन तुमकां यादी हाडूक सांगल्या. 18 वर्सांवयर आशिल्यांक इलेसांवां मत घालूंक मेळटलें. आमी सगळी 18 वर्सां वयलीं. सखू जाल्लें दत्तजयंतीक, गांधी जयंतीक हांव जाल्ले. आमगेले हे भारतस्वतंत्र जाल्लो तेन्ना जाल्ले. दुसरें चली उमाशेक, चलो पूनवेक. मांय म्हजी मान्नीपुनवेक, धाकटें तनू जालां म्हजें कोकणी, मराठीचो वाद जाल्लो तेन्ना जाल्लें. कळ्ळें न्ही? आनीक कितें जाय ? दीस खंयचो काय म्हणटा? दोगां जाणा बुधवाराक, तिगांजाणा आयताराक, उरलेलीं शुक्राराक आनी कितें? घरांक कर्तो कोण? कर्तो करवितो तोच? तोच म्हणजे? पैशांच्या नेटार विसरली ताका! कोणाक काय म्हणटा? देवाक. सगळें तोच घडयता. दिता देव आनी व्हरता देंवचार. आनीक कितें? बिराडा कोण आसात काय म्हणटा? हय. कितली वर्सां जालीं काय म्हणटा? 8 वर्सांची जाली म्हणटकच सगळ्यांक वेगळ्यो वेगळ्यो कुडी दिल्यो घराच्यो आनीक कितें? परत परत येवपाचे नात तुमी. सखू गॅस पेटय तवो दवर. आयलें हांव.



# शिकवण

आगे, आगे कितें जालां? कित्याक मारता ताका? खंयी बसत मगे थापट कितें चड लाड केल्यात म्हणटा? आगे पूण जालां कितें? शाळेंत वचनासतना रावता म्हणटा? पोटांत बरे ना दिसता ताका, कितें? आगे हांव ताची बाजू घेना. शबू ये शबू कितें जालां तुका? तकली जड जाल्या? अभ्यास करूंक ना? कितें आयज परिक्षा आसा? कितें सांगला बाईन? अभ्यास जाऊं ना जाल्यार येवूं नाकात म्हणून. फाल्यां करतलें मगो? आगे तुका आनी म्हाका कितें कळटा अभ्यासांतलें? एक दीस गेलें ना शाळेंत म्हणून इतलें मारपाचें? समजावन सांगूक जायना? पुस्तकां म्हण थोडी आसात तांकां? बरोवपाचो अभ्यास कितलो आसता जाणा मगे? वेळ मेळूंक ना दिसता ताका. हय मगो. चल बस अभ्यासाक. आगे टीव्हीचेर कितें दाखयतात, पेपर कितें सांगता तें जाणा? कितें काय म्हणाट? भुरग्यांच्या तकलेक चड त्रास दिवूं नाका म्हणून. त्रास चड घेत तर भुरग्याक कितेंय जांवक शकता. कितें बाकिचीं करिनात काय म्हणटा? आगे सगळ्यांची तकली सारखी आसना गे. फाल्यां करता म्हळा न्ही ताणें. कितें? अशे केल्यार माथ्यार बसतले म्हणटा? आगे भुरगें आसा न्हय ते? कितें म्हणटा? शाबू अपुरबायेचें म्हजें? कितें उलयतागे तूं पिश्यावरी? भुरग्याकडेन भेद कसो करतलों हांव? कितें सदूक कित्याक सत्रे दाण्यानी मारतालो म्हणता? आगे तो शाळेंत वचचें पडटा म्हण बुश्कोटाचीं बटणां तोडून वडयतालो न्हय गे? शाळेंत गेल्यार लेगीत पोटांत दुखता म्हण घरा येतालो न्हय गे. कितें आतां शिकलो ना काय म्हणटा? शिकलोच. हावेन ताका तापयलो, मारलो आनी अपुरबाय लेगीत केल्या ताची. म्हणूनच तर शिकूंक पावलो तो. दिसभर तुज्या भशेन किरी किरी करिना हांव. अशेंच कित्याक बरयलें? हांगाच कित्याक बरयलें? सगळे धडे जाले? आयजच म्हाका सगळो अभ्यास जाय. अशें म्हळ्यार कांचवेतलीं मगे तीं. आबूज पणान केल्लो अभ्यास लेगीत विसरतलीं मगे

तीं. अपुरबायेन समजीकायेन सांग ताका शबू खंय आसा गो तूं? आईच्या म्हऱ्यांत बसून करतलें मगो तूं अभ्यास? हांस पळोवया. फुगार कित्याक जालें इतले? शाळेंत शिकयतात तें कळटा गो तुका? आयचो अभ्यास आयजच करूंक जाय. मार खावूं नाका. जाले मगे. जाग्यार पडलें मगे तुमचें? गेली दिसता मागिलदारान. भुरग्यांची बाजू घेतली जाल्यार हिचें तोंड फुगता. बडबडत रावतली ती हांव बाजारांत पासय मारून आयिल्लो बरों. आगे येता गे हांव.



# शिपाय

शिपाय, शिपाय, शिपाय. कंटाळो आयलो म्हाका ह्या नोकरेचो. सदांच उठून तींच तींच कामां. सायब सकाळीं खंयच्याय वेळार येतात. आठांकच म्हाका वचूंक जाय. चावी खंय काय? विठ्या चावयो पळयल्यात? कितें? मेजार आसात? दार उगडूंक जाय, मेज पुसूंक जाय. जनेलां उगडूंक जाय. आं, उदकाची बाटली लेगीत भरून दवरूंक जाय. पेपर तर यादीन व्हरचो पडटा. हांचे आपलें बरें. घंटा वाजयली म्हणटक जालें. शी वाज आयलो म्हाका. नाका रे बाबा ही नोकरी. (वचूंक वता) आरे तूं केन्ना आयलो? हें सगळें आयकलें तुवें? किते म्हणटा? हांव नशीबवान? नशीब फुटको कित्याक म्हणिना म्हाका? कितें म्हणटा? थंय कसले त्रास? बरो मेळ्ळो मरे तूं. कानान सामको शिटूंक आसूंक जाय. कित्याक काय म्हणटा? उठ बस बेल मारीत रावता. ही फायल दी, ती फायल दी. हाका आपय ताका आपय. सकयल वचून च्या हाड, म्हणटासर फायलीन घाल, ते फायलिंतले काड. दिसभर धांवपळ जाता म्हजी. ह्या वयार म्हूणून तीन मजली म्हज्यान चडूंक जाता? 25 फावटीं सकयल देंवचें पडटा म्हाका. ड्रायव्हराक आपय, खंयचे झेरोक्स काड. ह्या ऑफिसांत हें दी, म्हणटासर त्या ऑफिसांत तें दी. खरेंच भाऊ कंटाळो आयलो रे म्हाका ह्या नोकरेचो कितें म्हणटा? सदांच काम आसना आमकां? पगार घेना काय म्हणटा? घेतां तर. कितें वर्साक सुटयो आसना काय म्हणटा? आसतात तश्यो. सुटयो तितल्यो बऱ्याच हेर दिसानी ऑफिसांतल्यान भायर सरूंक मेळना. कितें? कोणय कितें हाताक लायना काय म्हणटा? स साठीं, बारा माशी कोणय कितें 100-200 रुपया दिता. कितें दाराच्या भायल्यान बस ना काय म्हणटा? परत परत येवन लोक बेजार हाडटात म्हाका. कसलो बेजार काय म्हणटा? कितें करूंक जाय म्हणटा? आरे हांव तितलों तुज्याबशेन पिसो न्हय. म्हाका तकली तूं दिता? हांव तकलेन सामको फीन. दिसाक 100 रु. म्हाका सुटुकूंच जाय. दिना जाल्यार हाव तांची कामा करिना. दारान आसतनाच सांगता सायब ना, नाजाल्यार

सायबाची आयज मिटींग आसा तुका मेळचो ना. तेन्ना लोक येदेशे तोंड करून म्हज्या बोलसांक 100 रु. नोट उडयतात.

शंभर रुपया पळौवन हांव तांकां रोकडोंच सायबा लागीं व्हरातं. कोणय झेरॉक्स कॉपीचेर सयी करपाक आयलो जाल्यार हांव बेगीनबेगी भितर वचून सही हाडटां सायबाची. काम जाले म्हूणून लोक केन्ना केन्नाय 200 रु. दितात. तसो सायब आमचो बरो. मात्सो रागीश्ट. काम जातकच जालें. म्हाका आनी म्हज्या सायबाक बेस बरें जाता. म्हाका पळोंवन आसुंये काय म्हज्या धव्या तोपयेक पळोंवन आसुंये सायब रोकडोच सही करता. बढायेन मात हांव लोकांक सांगता. सायब बेठो कोणाकूच सही दिना. हांव ना जाल्यार तुजें काम जावचें नासलें. देव बरें करूं म्हणून हातांत 50 रु. नोट दवरतात. कितें इतलें आसून हांव कित्याक बेजारता काय म्हणटा? आरे शिपायाक मान ना. अधिकार ना. आवयबापायन शिकयिल्लो जाल्यार हांवय जावचो नासलो ऑफिसर? म्हणून रडटा हांव.



# हावेस

आगे बुलाका, बुलाका, आगे आज व्हाळार कपडे धुवूंक वचूंक ना? कित्या काय म्हणटा? व्हाळार आयज सवीच्या सुनेच्यो गजाली चल्लेल्यो. कसल्यो काय म्हणटा? तुमकां आनी खबर ना? नकळो आशिल्याभशेन करता. पिश्याक पिपळ दाखयता गे. कितें खरेंच नकळो? आगे सवीची सून पांयान थोटी खंय. कोणे पसंत केली काय तिका? आदल्या काळांतली ताटिका कशी दिसता खंय. कितें भांगरान हळदुवी केल्या? आगे आयज काल दिसूंक बरें जाय अशे ना? व्हंकल म्हणटकच चार चौग पळयतलीं हिका.

सगल्यांची धुयताली, पळयलें मगे, कितें शिकल्या खंय भरपूर? शिक्षण आनी देणें पळोवन केली दिसता. आगे म्हाका सांग सगळे भांगर घालून दिसपट्टी भोंवतली तर गे ती? नोकरी करता खंय ती. जोडून हाडटली भरपूर? तशें जाल्यार पैशांक भुल्ल्या आसतली. कितें म्हणटा? एकटेंच खंय हें? मागीर तशें जाल्यार ही सामकी भुलली मांय गे बाये म्हाका सांग पुताक तिच्या आवडली खंय ती? पुतानच पसंत केल्या काय मांयन गे? मांयन? पूत आयकलो मगे बाये आवयचें. म्हणतकच पूत घर जांवय बी जालो ना? 4 दीस आवयच्या फुड्यान 4 दीस मावड्या हय मगे? मागीर फुडें पळय तूं पूत मावड्याच पडला म्हण गांवभर घालिना काय कितें ती? कपलार हात मारून घेवपाची पाळी येतली. सुनेक च्या जेवण बी करूंक कळटा काय? काय दिवाणार बसून ऑर्डरी सोडटली? बुलाका खरेंच तुवें तिका पळोंवक ना? बरीच जाणटी कशी दिसता खंय मगे ती. दुसरेपणान बी न्हय मगे. आमच्याच भितर उलोवया. सवीचो चलो तसो व्हडली नोकरी करिना. वर्सां वाडून बी उरली ना मगे ही. कितें म्हाका कित्याक पडलां काय म्हणटा? तशें न्हय गे बुलाका. व्हाळार कळ्ळें म्हूण म्हळें हांवें. भोंगू त्या सवीच्या चेड्याचें गे. तो थंयच्या थंयच गुबगुबीत, गोरो गोमटो आनी ही ताटीका म्हणटात न्हय गे. हांव वचून सारखीच चवकशी काडटां. तुका सांगता येवन सवीच्यो आनी सवीच्या सुनेच्यो गजाली. ●●●

# भैरो जोळोप

आजून हे कशे आयले ना काय? जेवंक पावतले म्हूण सांगून गेल्ले. दनपर जावन गेली. काम जालें ना काय? हे जेवल्याशिवाय हांव केन्नाच जेवलिना. तीन जावपाक आयलीं. तिवय तशीच रावतली काम जावूंक ना काय हांचे? कितलो म्हण वेळ आमी रावतलीं? जेवणाचो म्हळ्यार एक वावरच. सगळीं एकदम जेवलीं जाल्यार कामय रोंकडेंच जाता. म्हजे काम मात हांव मेल्याशिवाय सोंपचे ना. कितें करता काय ही भितर? आगे आगे भितर कितें करता तूं? फाट करता काय म्हण पळयता ही. रात्रीवेले काडटली सकयल दवरतली. सकयलें काडटली रात्रीर दवरतली. नुस्तें म्हणून मेजार खावपाचें ना. 25 फावटीं कपडो घुंवडायतली! कोण काय म्हणटा कोण आनी तूंच. भैर जोळप लागला न्हय गे तुका? शेण बीन सारोंवक ना मगे मेजार? अनवाळपण खंय अनवाळपण. शेण मेजाक लायल्यार घाण येवची ना काय म्हणटां? आगे भितर कितें करता? कितें तीर्थ फाफुडटा पुडव्यार? कित्याक? अनवाळें करूंक? कर्म करता तू म्हजें. अशें केल्यार वावराडी सुद्धां रावची ना. वावराडेन शिनील्लें कांतिल्लें हे जेविना? रानिल्लें सुद्धा जेवता? मागीर कपड्यार कित्याक तीर्थ? तूं सवळी काय मांव गे म्हजो सवळो? खंय वतली ही हें अनवाळपण घेवन? स्वर्गांत? कोणे दवरला काय जागो? म्हाका दिसता हिका स्वर्ग न्हय नरकच मेळटलो. कितें म्हणटा? आज सोमार काय म्हणून? हय वय आज सोमारच? कित्याक सकयल पाटार बसून जेंवक जाय तुमका? कितें भश्टता? कित्याक नुस्त्याचें जेवतात म्हूणून? काल खाल्लें मगे तुवें नुस्तें? मागीर पोटांत उरूंक ना तुज्या तें? कांय ना जाल्यार धूय पूस, धूय पूस तरी करतली. कंटाळो आयलो म्हाका ह्या कामांनी. निवळ आसतकच जालें म्हळ्यार हिका पटना. वावराडी नासतना म्हाका जायना. आगे आगे खंय चल्ली. बस गे एका जाग्यार कितें? मान्यात वता ? आगे उपसमारता पळय तुका. हे कांय घरा नात. म्हाकाच लक्ष दिवचें पडटा.

केन्ना सोपतलें हें अनवाळपण म्हूणून कोण जाणा? कितें तूं मरतकच म्हणटा? ना ना तुजे पयलीं हांवच वैयर वतलीं. आड्डून आड्डून ताळो सुद्धां पडलो. म्हजो. कितें जेवंक बसता? वाडूं तुका राव हाडटां हांव ताट कितें वाट न्हय पान. आं आं येतां हांव, हाडटां हांव पान. हांवच पिशें जायनाज़ाल्यार पुरो.



# देव ना म्हणपी पिढी

व्हनीबाय ये व्हनीबाय, व्हनीबाय ये व्हनीबाय, आं? फुडलें दार बंद करून खंय गेल्या काय ही? फाटल्यादारानं बी ना मू? (फाटल्या दारातल्यान उलो करतां) व्हनीबाय ये व्हनीबाय कितले उले मारले गे तुका? कितें करताली मागील दारांत? आं, झाडां रोयताली कसलीं? दसणीचीं? आतां आनी कोण माळटात गे हीं फुलां? कितें घरांत देव आसा म्हणटकच जाय पडटात? हय गे बाये देवाच्या माथ्यार दवरूंकच जाय. आनीक कसली आसात गे झाडां तुजेकडेन? आबोलेची, जुयेचीं, जायेचीं, मोगरेचीं बी आसात गे. म्हाकाय ताळयो दी गे. कितें? खंय रोयतली काय म्हणटा? हय गे बाये. पिशी पळय कितली हांव. तुमच्या भशेन मागिलदार फुडलेंदार खंय आसा म्हाका? फुडल्या वंराड्यार आमगेलेन दवरल्यात कुंड्यो. त्या कुंड्यानी ही खंय म्हाका रोवंक दितली? अपुरबायेन व्हेलें मांयन झाड म्हण रोयतली तरी? तांची आता फेशनेबल झाडां. ना त्या झांडाक फुलां फुलपाचीं ना फळां जावपाचीं. वर्सान वर्सा कलमा हाडटा मात नवीं. खंयची पैशांची वेल, तर खंयची सूर्यवेल. नांव मात घेता व्हडलीं व्हडलीं इंग्लीशीन. म्हाका खंय घेवंक कळटात ती नांवां? आतांच्या सुनाचें सगळें वेगळें, एकय झाड उपेगाक पडपाचें ना. देवाच्या माथ्यार एक फूल दवरतलें म्हण मेळना. तूं नकळो व्हनीबाय? म्हजी आई फुडल्यान फाटल्यान कितलीं फुलाची झाडां रोयताली ती. प्रत्येक फोटवाक वेगळे वेगळे तरेचें फूल. गणपतीक तांबड्या दशणीचें, शंकराक खंय धवें फूल कात्यायनीक रोझां. म्हूणूनच तर तांकां देव पावलो न्हय? ना जाल्यार आतांच्या ह्या सुनांक देवाक फूल खंयचें सादें निरंजन सुद्धां पेटोवंक वेळ ना. नोकऱ्यो करतात न्हय गे ह्यो. आसात तरी समाधानी? केन्नाच जावचीं ना. देवाचें करूंक जाय म्हळ्यार म्हणटात तुमच्या भशेन आमी बेकार नात. जाणा मगे व्हनीबाय फ्लॅटान एक सुद्धां फोटो ना देवाचो. कुलदेवाचो तरी आसूंक जाय मगे. पूताकडसून पैर फोटो हाडून

घेतलो. मेस्ताक वैर आफोवन एक खिळो मात मारलो. कितलो संवार केलो गे ह्या बायलेन? म्हणूंक लागली खिळो मारतकच घर खंय बुरशें जाता. फोटो लायतली जाल्यार तुज्या घराच पड. आता फेशन ना फोटो लावपाची. देव मनान आसल्यार पुरो. फोटो लावन देव मेळना. एक न्हय. सगळो दीस म्हाका आयकूंक नजो जाले. बरे गे येतां हांव. तुज्याच दारान तरी फुलूनी फुलां. केन्नाय देवळान वतलीं जाल्यार येतां हांव तुमगेर फुलां व्हरूंक.



# रानवटी भाज्यो

व्हने ये व्हने, व्हने ये व्हने. कितें करताली आड पडलेली आमी रानान वचोन येवया? कित्याक काय म्हणटा? आगे आज पावसान आसोर केला न्हू. चार दीस खूब पडलो पावस कालच्यान वत पडटा न्हू. मातशें वचोन येंवया. कित्याक काय म्हणटा? आगे फुगे (काळी अळंबी) फुलतात न्हू पत्र्यांनी ती काडोंक. आमच्या भाटकाराक ती जार्यीं पडटात. कितें म्हणटा? केन्ना येयलो काय म्हणटा? पावसाक तो हिंगा येता. सरवण (श्रावण) बसून रावता (रावता) तेमकां न्हू येस खावों जाय. पयलींपासून खावन येयले न्हूं तीं? ते शिवाय भाटकाराक धातूचें आसा न्हू आनी दियाबेताचेंय आसा खंय तेमी खंय हे फुगे खावों जाये. मातयेतसून, पत्र्यांतसून वैर येतात न्हू. तेमकां गांठ येयल्या खंय. पावस पडून जी भाजी जाता तिवय भाटकाराक जायी. रूच काडोन ते आमगेर काल येयलेले. तेमकां मस्काची भाजी, कुड्डूकेची भाजी, गोळची भाजी, सिलोनी भाजी, तायकिळ्याची भाजी तेरें खूब आवडटा भाटकान्न म्हाका सांगी मस्काच्या कुड्डूकेच्या, शिरमुडूलेच्या आनी तेऱ्यांत लोखण आसता म्हणोन. घटसाणेक खंय व्हने ही भाजी बरीच. पणसाची भिकणां, वडयो घालून तेरें केलें जाल्यार खूप बरें लागता. चणे घालून फुगे केल्यार तूं सोडची ना. खंयसून येयला पळय भाटकार रूची काडोन. ना जाल्यार आमकां पिकता तें नाका. वर्सभर नुस्ते आनी ह्यो भायल्यो भाज्यो. सोदपाचे कश्ट हीं आताचीं घेवचीं नात. या मगे व्हनये. विकत घेतलेले आमकां चड रूचीक लागता न्हू गे व्हनये. तांचेर कितलींय वखदा मारूनी तींच चड रूचीक लागतात. नुस्तें तर कितले तेप झेलीन आसतात म्हणून कोण जाणा. म्हारग कितलें नुस्तें. पूण जीब रावना. आतांच्या भुरग्यांक तर हें सामकेच पटचेले ना. तांच्यो रूची व्हडल्यो व्हडल्यो. चिकन नासतना जेविना. पापलेटां, विसण नासतना जायना. सांजेची मेगी सकाळची बोम्बे पाव भाजी हाच्या शिवाय तांचे जायना. पोटान दुखता, पित्त जाता पुळेर फुटता

म्हळ्यार सांगतात कशी आगे तें हें खावन न्हय. पानार सुद्धां घेयनात ही भुरगीं. ह्या भाज्यांक घटसाण आसता म्हळ्यार म्हणटात कशी. तुमीच खायात ह्या भाज्यांक जर घटसाण आसल्यार बोरनविटा, कॉम्प्लेन कित्याक केला. तोंडान सुद्धा मस्त ही भुरग्यां. जाणा मगे व्हने. पयलीचे लोक आगांन कितले घटमूट, तांची व्हिस्त पळय कशी ती. तर म्हणटात कशीं, पुरो पुरो रानटी खावन ती रानवटी कशी दिसतात पळय. तेपरस तोंड धांपून आमीच खाल्ली बरी. हय मगे. बरें भायर सरता मगे तूं विल्लें घेवन, पावस येत जाल्यार? हांवय येता विल्लें घेवन.



# मिनिस्टर

वसंता, ये वसंता, वसंता ये वसंता. कोण येयला पळय. फांत्यापारार खंय गेला काय हो? वसंता ये वसंता. हेकातल्यान येयला पळय हांव. कित्या येयिल्लो की म्हणटा? आरे हांव इलेक्शना स्टँड जालां पळय. खंय की म्हणटा. गोंयांत कोल्यावळार (कोलवाळे) सेटल जाल्यार मिनिस्टर पसून जावची शक्यता आसा पळय. कितें एमएलए जावच्याक एज्युकेशन नाका की म्हणटा? आरे तशें जाल्यार म्हागेलो बायो - डेटा मागचे नाशील्ली की म्हणटां? गोंयांत 15 years stand जाल्यार पुरो. कितें? 15 इयर जाली की म्हणटा? हय 15 years more च जालीं. अबाउट व्हडले चेडवा मॅरेज येयिल्लों पळय तो हंगाच आसां. व्हडले चेडवागेर चेडूं जावन तेगे चेडवा मॅरेज जावन तेका चेडूं जालें मागीर तूंच काऊंट कर मरे. हांवें मागेलोच न्हय 15 वर्सां गोयांत स्टँड जालों म्हण मागेल्या चेडवांलीं चेडवां आनी तेगेल्या नातीलो पसून दाखलो लायला. कॉलनीतले ओट्टू लोक म्हाका वळखता पळय. निवडून येवच्या पैशे खंयचे की म्हणटा? कोंग्रेस पार्टेंत उबों रावलां म्हणटकच तीच दितली पळय. मेन म्हळ्यार तेमकां खंयचोच पक्ष येवच्या नाका. गोंयां पायले 25 मिनीस्टार, तेतूनच हांव एक मिनीस्टार मुळ मुद्द्या हात घातिल्लो बरो न्ही. फस्ट टाईम हांव हंगा कोंग्रेस पार्टीत जॉईन जालां. म्हाका सिलेक्ट करचें तुमचें काम हय की न्ही? कितें तूं गोंयां रावना म्हणटा? आरे सामकोच फुलीश पळय तूं. वळखूच्या कित्या जाय? कित्या भिता हय रे तूं? गेल्ल्या वर्सा कॅन्सल करच्या येयील्लो पळय तेन्ना हांव तुमगेली सगळ्याली नांवां घायल्यां तेतून. रिटन कार्डापसून नांव आयलां तुमगेलें. आरे खरें उलोवन कांयच साद्य जावचें ना. खुद्द गोंयचें लोक पसून करच्या शक्य ना तें हांवें करून घेतलां. प्रत्येक तालुक्या कणकणी आमगेलेच बीं रोयलां पळय हांवें. खंयच्याय आफीसांत वच, केन्नाय वच आमकांच थंय फस्ट प्रेफरन्स पळय. नोकरे पोतान शिकनाशिल्यांक भाजेचो

वा भज्यांचो गाडो घान्न दिवचेपर्यंत हे एमएलए आनी मिनीस्टर आमगेले काम कन्न दिता पळय. हांवय सेम तसोंच करतलों पळय. तुमकां हे दिवन तुमचे खातीर हें करतलों पळय. मागीर करतले न्हय हळगेकाराक गोंयातलो एमएलए. हांव केन्नाच्च पक्ष बदलचों ना. आनी पक्षा अंतर दिवचो ना. मागीर याद दवरात हां. मागेले चिन्ह कातर. याद दवन्न घेयात. फुडल्या मंगळाराक मिटींग दवरल्या हांवें कोल्यावाळार. डोन्ट फर्गोट हां.



# भुरग्यांचो गांवठी दोतोर

सखू आत्या ये सखू आत्या. कितें करता काय ही घरांत. सखू आत्या ये सखू आत्या (कान दिवन आयकता) कितें तरी धोडायता. आवाजान आयकूंक येना दिस्ता हिका. (मोठ्यान उलो करता) सखू आत्या ये सखू आत्या. कितें? मोठ्यान कित्याक आड्डता काय म्हणटा? आगे कितले उलो केले तुका. तुका आयकुंकच येना. कितें करताली? कितें वखद धाडायताली? कसलें गे? बाळगिऱ्याचें? कोणाक गे? येसूच्या नातीक बाळगिरें जाला? हांव कित्याक आयिल्ले कांय म्हणटा? आगे म्हज्या जावेची नात पांयार पांय घालता. कितें म्हणटा? दोतोरागेर व्हरूंक ना काय म्हणून? कितें सांगू तुका? 4 म्हयने जाले खंय ताका. दोतोरागेरच व्हरतालीं. मातूय गूण ना खंय. काल हळूच जावेन म्हणलें म्हाका. पळोवन वच म्हूणून नातीक. म्हूणून गेल्लें हांव. आतांच्या सुनाक म्हणूक येतां गांवठी वखदां कर म्हूणून. भीत भीत हांवेंच म्हळे तिका. तुमी वखद दिता म्हणून. कितें म्हणटा सगळीं वखदां जातकच हांगा आयलां काय म्हणून? सखू आत्या हांव नकळोच आशील्लें गो. कितें महणटा? पैशे दिवन वखद घेतील्लें बरें लागता काय म्हणटा? कितें गांवठी वखदां करतली काय म्हणून? आगे तिणेंच सांगलां म्हाका तुमगेर वचूक. पांयाक आनी पोटाक वाळी घालच्यो पडटल्यो आनी आयताराक आनी बुधवाराक झाडू घालचो पडटलो? जावूं दी नात निवळ्ळ्यार पुरो. ताच्या पोटानय खंय बरें आसना. दिसभर वळटा खंय तें. कितें ताका घोंशे जाल्यात? घोंशाचें वखद कितले दीस घेवपाचें? फक्त तिनच दीस. आनी गजरो. कितले दीस कमराक घालपाचो. दुबाव धरिनासतना वेळार वखद केल्यार बरी जातली नात. पैशे कितले काय म्हणटां? पैशे घेनात तुमी? फक्त नाल्ल आनी पड? आतां हाडूंक ना हांवे. कितें? निवळ्ळी जाल्यारच दिवपाचें? बरें मगे तुमचें. दोतोरागेर गेलीं जाल्यार पैशे पयलीं भायर दिवन भितर वचचें पडटा. इतलेच न्हय सखू आत्या हात लावपाक 200 रुपया. वखदां

वेगळीं. व्हडल्या व्हडल्या हॉस्पीटलान गेल्यार तितले पैशे चड. 10,000 दिवन दवरचे पडटा. आनी तुमचें निवळटकच? तुमकां विश्वास आसा तर ह्या वखदांनी भुरगें निवळटलें म्हणून. आयकले न्ही तुमी? निवळूक भुरगे1 आठवडो लागता. दोतोराल्यां वखदानी दोनच दिसानी निवळटा. वखद सोंपतकच परत जाता. वेळ गेल्ली बरो. कायमचोच बरो जाता न्हय मनीस. हांव गांवठीच वखदां दितलें म्हज्या नातीक. बरें बरे गे येता हांव.



# मुलाखत

सुकांती ये सुकांती, कितें एकाच उल्याक वळखलें? हुशार मगो तूं. आवाजाची याद बरीच उरली मगो तुका. कितें सकाळीं शें कित्याक आयला काय म्हणटा? आगो काल तुजी टी. यी. चेर मुलाखत घेतलेली न्हू. ती पळयली. आयकली. देव बरो दीस दिऊं गो तुका. कित्याक काय म्हणटा. आख्या संसाराचेर उजवाड घातलो न्हय गो तुवें. तुजे उपकार आठोंवक आनी तुयेंन रोयलेल्या झाडांक पळोवंक हांव मुद्दाम येयलां. आगो म्हाका सांग केन्ना मेळटा तुका वेळ? सकाळीं उठून कामा वैता तें येता सांजेचें मगो? मागीर वेळ केन्ना मेळटा तुका? केन्ना रोयलीं तुवेंन ही झाडां? वेळ मेळटा तेन्ना? बरेंच हुशार मगो तू. कितल्या तऱ्हेचीं झाडां रोयल्यात तुवें? कितें 150 तरेचीं खंय मेळ्ळी गो तुका हीं? रानांनी? कोणें दाखयलीं गो हीं तुका? आजेन. म्हाका सांगतलें तू सगळें? दाखयतली हीं झाडां. कितें सकयल देंव म्हणटा? ना हांगा सरूनच पळयतां सांग गो तू. तुळशीचे झाड. तुळशीची पाना सदींच खाल्यार थंडी जायना? हें कसलें बेलाचें? जोर येयल्यार घेवपाचें? आंब्याचे झाड? पानाची शीर काडोंन धडावन घेत जाल्यार दंत जायना? हें गो कसलें डाळींबाचें हाचो गो कितें उपयोग? डाळींबाच्या सालीचें उदक घेतल्यार संडास थांबतां? हो रूक कसलो. सातनाचो कितें अपत्य जाल्यार झरोवन पियेवपाचें? हो कसलो गो रूक. वळंब? हो गो कित्याक? पडले, पायाक हाताक मार बसलो ज्लायर वळंबाची साल सोऱ्यान वाटून लावपाची? भिंडाचे झाड मगो हे. कडी करपाची मगो? कितें भिंडाच्या सोलान पिताम वता? सुकांती ही लजेव्हकलं काडून उडोवपाची न्हय? कांटे लागतले मगो पांयाक कितें ती तुवें मुद्दाम लायल्या कित्याक गो? बिकांचे जाल्यार ती वांटून लावप आनी थोड्या उदकान घालून घेवप. भगभगपाचे बंद जाता. आगो हे मेथेचें झाड वांटून लायतात दिसता तुमी हाताक न्हय? कितें मेथेच्या पाल्याचें शिजोवन उदक घेतल्यार कामणीक बरें? आगो मदींच

हे अनसाचें झाड कित्याक लायलां? कितें? ही कांटे कुंवर? हें झाड हांवेन नवेंच पळयलां. उज्यार धरून हाजो बोळ (रोस) काडून साखर घालून घेतल्यार थंडी जाल्लो ताळो एकदम सुट्टा. सडसडीत उलोंवक येता. सुकांती खरेंच हुशार म्हणपाचें गो तुका. विचारलें म्हणून रागार जावनाका म्हाका एक सांग म्हजे मगो हे दोनय पांय उसळटात. कमराकडसून उसळटात कितें केल्यार बरें? कितें नंदनगोळीचो, पालो बरोच शिजोवन त्या गरम उदकान न्हावपाचें नाजाल्यार पांय उदकांत घालून बसपाचें? सुकांती हांवय रोयतां गो हीं झाडां म्हाका रोवपाक आदार करतलें मगो तूं. दोतोरागेर वचपाची गरज ना. बरें आं देव बरेंच करूं तुका. येता हांव.



# म्हारगाय - 2

संसार संसार संसार. कंटाळो आयला ह्या संसाराचो. जायना म्हज्यान हो संसार सांबाळूंक. मंत्री जाल्लों जाल्यार पूण राजिनामो दिवंक जातालो. संसाराच्या गाडयाचें तशें न्हय. रडत रडत तरी चलोंवक जाय. ते परस जल्माचोच राजिनामो घेतिल्लो बरो. पांयांक जोतें लेगीत घालपाची कापस्ताद म्हजेकडेन उरली ना. आदलेच दीस बरे आसले. पेज आनी आमली. खतखतें, गवांच्या कुण्याची भाकरी. नाका रे बाबा हो जन्म आं कोण उलयलो मर्दीच? विठू बाब रे. कितें? कित्याक बेजारला काय म्हणटा जिवाचेर? बेजारूं नाका आनी कितें करूं? आरे आतां म्हारगाय खंय पावल्या? इनमीन तीन मनशां आसून लेगीत गाडो चलोंवक जायना. जेवणाचो खर्च जरी वाडलो नासलो तरी म्हयन्याक 10,000 जायच पडटात. 5 रुपया, 10 रुपया म्हणटात ते तर हालीं ना. हजार घेवन वचुनय बाजार जाय तसो करूंक मेळना. पिशवी पळय गा भरल्या जाल्यार? बायलेक पटचें ना हांव हजार मोडून आयलां म्हणून. वेल्यान म्हणटली कशी. इतलेंच सामान हाडूंक आदेस लागलो? पोती उगडून म्हणटली कितें हाडला तुवें? मिरसांगो खंय? ओली कोथंबीर कित्याक चिटमीभर हाडल्या? टोमाटां पळोवन म्हणटली गाडेवाल्यान भायर उडयल्लीं हाडल्यांत काय म्हणून. इतलींच हाडलीं? पुनांवक वेळ मेळ्ळो ना? कट्टीभर कित्याक हाडला सामान? वाडटीं भुरगीं, कितें लागता तें अजून कळना कशें? विठूबाब कितले म्हण आयकुचें पडटले म्हाका? ते परस संसारांतल्यान मेकळो जाल्लो बरों. कितें म्हणटा? हातूंन तिची चूक कसली काय म्हणून? कितें रानता वाडटा ती म्हणटकच तिकाय उलोवचें पडटा? घेयात, घेयात विठूबाब बायलांचों पाको घेयात. कमवपी हांव एकटोंच विठूबाब नोकरी म्हजी सरकारी न्हय. प्रायव्हेट कंपनीत सादो कारकून म्हण आसा हांव. विठूबाब कोण गा दीत म्हाका 10 हजार पगार? तूंच खरो हुशार कित्याक काय म्हणटा? आंकवार रावन

तुजें रामायण घडूंक तुवें दिवूंक ना. पयलिंच्या जल्मांत पुण्य केल्लें तुवें म्हणून आयज सूख भोगता. लोकांच्या बायलांच्यो बाजू घेवंक तुका कितें जालां? संसाराचो राट तुमकां खंय लागला? तुमकां टवाळी करूंक मेळ्ळें न्हय? ना बायल ना भुरगीं. एक जीव सदाशीव. हय मगा? आरे, आरे निरशल्यावरी जाव नाका. कसलो विचार करता विठूबाब? म्हातारपणाचो कोण पळयतलो काय म्हणटा? ती चिंता तूं आयज कित्याक करता? कोण नाशिल्लेच सुखी विठूबाब. बायल हुस्केतली म्हाकां येता हांव.



# बेबदो

(भितरल्यान उलो करता) शोभे भायर कोण आयला पळय? कितें? म्हाकाच वचून पळय. म्हणटा? (भायर येवन) एक सादे काम सांगल्यार सुद्धा हीं भुरगीं करचीं नात (दारा म्हऱ्यान वचून) कोण? कोण जाय? (दार उगडटा आनी बंद करता) ना हांव घरांत घेवची ना तुका पियेवन आयला? रातीं खय आसलेलो ? बायल भुरगीं आसात म्हण कळणा तुका? दिसरात पियेता? जनावर तरी परवडलें कितें? दारार लाथ मारून दार मोडटलों? मार लाथ, मोड दार हांव दार उगडचेच ना. घरान घेवचें ना. म्हणजे घेवचें ना. पड तसोच भायर उठो उठोन तोंड धुयता मेल्लो सोऱ्यान. भुरग्यांक लज दिसता तूं बापूय म्हणनोन सांगूक. वाड्यावयलीं सगळीं भुरगीं, बापूय बेबदो म्हण चाळयतात. सगळीं भुरगीं शाळेत वतात. तुवें मेल्ल्यान भुरग्यांक एक अक्षर लेगीत शिकोंवक ना. दिसरात काम करून मरता हांव. जोडलेली जोड मेल्या म्हजीसुद्धा तुकाच जाय. कितें? पैशे दी म्हणटा? खंयचे दिवों? खंयच्या पैशांनी काल सोरो पियेलो? कोणे मेल्ल्यान हाका सोरो घालो? कितें उदार पियेला? सामान हाडोंक गेल्यार गाडेवाले उदार सामान दिनात तुमकां मात गादीवाले उदार सोरो दितात? संसाराची वाट लायल्या तुवें. लग्नाक आओन घाल्ली काकणां, माळ, तुका घाल्ली सरपळी मुदी लेगीत सोऱ्याक वगडायली. तुवें मेल्ल्यान कितें जोडलें? पैशे ना जाल्यार मणी दी म्हणटा? पाड पडलेल्या मणी मागता? दळडिऱ्या खंयच्या तोंडान मागता रे तूं? तो एकच उरला. मागीर आमकां विकल्यार जालें. गाळी सोवों नाका लाग चलोक हिंगा सरलो. भांगरासारखी पोरां म्हाजीं तुका बेबद्याक लागोन किडकिडीं जाल्यांत पळय तुजो आवाज येयना फुडें बिलू जावन बसतात. पळय, आयज हांव तुका ओगी रावचें ना. भूक लागल्या? उश्टावाऱ्यार कितें पडलां जाल्यार सोदून खा. तीच लायकी तुजी. कितें आयच्यान सोरो सोडला? मेल्या तुका सोरो सोडीत, तूं सोऱ्याक केन्नाच सोडचो ना. कितें

देवाचो सोपूत घेता? कितले फावटीं घेता हो सोपूत? आरे कुत्र्याची शेपडी वांकडी ती वांकडीच. कितें? भुरग्यांची सोपूत घेवंक भुरगी आसात म्हण खबर तरी आसा तुका? पड तसोच भायर. सोरो निवळटकच यो. पैशे जाय जाल्यार सोनू भाटकारागेर माडांक आळीं काडूंक वच पैशे मेळटले. चल वच हांगासरलो कामां पडल्यात म्हाका. एका वेळचें जेवण तरी सुखान खावंक दी. वता काय घालों दाणो तकलेर? फाटले, फुडलें दार धापून घेयात. नाजाल्यार हो मेल्लो मारीत सुद्धां तुमकां. दार काडूं नाकात हां ताका. येता हांव रोकडेंच.



# मूज

(माथ्यावेल्यान पदर घेवन हातान तांबयो घेवन तांबयान उदक आनी तुळशिचें पान घालून उदक फाफडत वता) आं खंय चल्ली काय म्हणटा? चमेलीगेर वतां हांव. कितें? हातान कितें काय म्हणटा? तांबयो तांब्याचो? कितें दूद हाडूंक वता काय म्हणटा? ना. तांबयान उदक आनी निर्माल्य आसा. शीव, शीव, शीव. (उदक तुळशी पानान फाफुडटा) कितें? कितें करता काय म्हणटा? आगो ह्या रस्त्यान चलपाचें आसा? सगळ्या जातीचे लोक भोंवतात न्हय गो. खंयय थुकतात, खंयय मुततात. शीव शीव शीव. हें पळय कितें तें. निर्माल्यान उदक फाफुडले म्हणटकच हांव जालें ना अनवाळें? कितें जोतें घालूंक विसरली काय म्हणटा? आगो जोतें कित्याचे करतात जाणा? तुमी पांयाक घालतात म्हणून सांग. जोत्याचे वारे लेगीत लागल्यार म्हाका परत न्हावन सवळे न्हेसचें पडटलें. तेच खातीर तर हो निर्माल्य घाल्लो तांबयो. चमेलीगेर आज सत्यनारायणाची पुजा देवाच्या म्हऱ्यान वतना अनवाणी वचूंक जाय. सवळें कित्याक न्हेसलां तर हांव. हांसता शें गो? तुमचेर आतां सामकोच सांवार उठला खंयय बसतात, कितेंय खातात. कितें आयच्या युगाक हे चलचेलें ना? आगो अशें अभद्र उलोवं नाका. आज तूं हांसलें जाल्यार फाल्यां तीं भुरगीं म्हाका हांसतलीं. तरनाटे, तरनाट्यो टिंगला करतालीं म्हजीं? तुवेंन सगळें सोडलें तर गो? आगो पैर तुज्या नातवाची मूज जाल्ली न्हय? सोडमूज बी केली मगो? करता गो तो आचमन? पाटार बसून लायता गो तो कपलाक गंधाची मुद्रा? भायल्यान बी वतना लायता मगो तो कानाक जानवें? कितें चारच दीस केले? लाखानी दुडू मोडले मगो तुमी मूज करपाक. चारच दिसांनी सगळें सोपलें? मुजीचो अर्थ सांगूक ना? अनाठायीं मगो हो खर्च केलो तुमी. सकाळचे न्हावन गायत्रीमंत्र तरी म्हणटा गो तो? मागीर? शीव शीव शीव पैशांचें गोपीचंदन केलें पळय. मूज जातकूच कवळ्यां वा पर्तगाळी धाडपाचो न्हय शिक्षण घेवंक?

जेवपाक पाटार बसून पानाच्या म्हऱ्यान चित्रावळ तरी घालता मगो तो? शीव शीव, शीव, आचमन करून चित्रावळ घालून उदक सोडून मागीरच न्हय गो देवाक पांयां पडून जेवप? आगो हो अन्नाक दिल्लो मान. हें तुमी जाणटेल्यानी सांगपाचें न्हय? धोंपरान गेल्या गो बाये तुमची बुद्ध. देवाक तरी पांया पडटा? काय देवच ना म्हणटा? शीव, शीव, शीव, हालींच्या तेपार ह्या भुरग्यांचेर भोग आयला पळय? वेळ जातलो म्हाका. वरां कितलीं जाली काय, आं. फुगोट्यो मारल्यो दिसता. पुराणाक सुरवात केली जांवये. हांव चल्लें गो मोगऱ्या.



# दोतोर वायंगणो

दोतोर, दोतोर, दोतोर म्हणून कित्या आड्डता काय ही? कितें जालां? बोबाट कित्याक मारता? कितें पायांक कांटो भरला? सामको भितर वचूंक ना मरे? किते पाय कापचो पडटलो काय म्हणटा? आरे उठसूठ पांय कापूंक म्हाका मनिसपण म्हणटात तें ना काय कितें रे? पांय मात तेंकवनाका जमनीक. आनीक भितर वतलो तो. पेत्रोल वा केरोसीन आसा तुमगेर? आसा मरे? मागीर कांटो लागला त्या जाग्यार लाय. आंगठ्याच्या दोन्ही हातांनी हळूहळू चिड्डीत राव. बुळ्ळ करून येतलो भायर तो. बेठोच कासावीस जाय नाका चल घरा. निवळूक ना जाल्यार सांग म्हाका. कितले म्हणून पांसियस काडचें पडटा ह्या पेशंटाकडेन. एका पेशंटाच्या वांगडा 5 तरी जाणांचो पंगड. कोण पेशंट म्हणून सामकेंच कळना. पेशंटाक खासावीस हींच करतात. काल एक पेशंट आयिल्लो ताका खंय फातोर जाला. कितल्या मोठ्यान तो रे रडटालो. ओपरेशन करचें पडटलें म्हणून. एक प्रश्न 10 वेळा विचारतालो. म्हाका सांग उदक खंय तो मातय पिना. फातोर जाल्यार कुवाळ्यांचे उदक पियेवंक जाय. शिजवन मात आं. मुतून वता तो रोकडोच. जिरवण जाली ना दोतोरागेर. तकली जड जाली दोतोरागेर. घरगुती उपाय करून पळोंवंक सामकीचं सोदिनात. पैर एक पेशंट म्हाका फी कितली काय म्हण विचारता. हांवे म्हळे दी 10 रुपया. तर तो म्हाका कितें सांगता जाणा? भटाक सुद्धां साधी सांगणी करून घेवंक 50 रुपयां दितात आमी. पैशांनी हे आमकां विकते घेंवक सोदतात. कोण आयला? किते जालां ? फुटला मरे तूं? खंय पडलो, हात मोडले? खय गोळोव मारूंक गेल्लो? (लोकांक पळोवन) दोतोरागेर वचूंक ना हो दोतोर बेंतो घालतलो हाताक म्हणून राव येतां वखद लावंक. कितें कर घरावचून जिरें वळंबाची साल, भिंडाची सोलां, सोरो घालून वांटून घे. गरम गरम खतो कर आनी लाय. कांयच जांवक ना तुका. कसुलतार बंद करून वता हां. वाट पळयतली म्हजी. चार दिसांनी यो मांत आं.






# बारसो

आगे मावशीबाय, ये मावशीबाय. आगे तुमगेर रूमडाचें बीन झाड आसा? वडाचें, पिपळाचें, जांभळीचेंय आसा? आं, कित्याक काय म्हणटा? आगे शांत येयल्या न्हू म्हाज्या नातवाक. कितें कितलो तेप जालो काय म्हणटा? म्हयनो खंयचो परवां बारा दीस जातले तेका कितें बारश्याक सांगतली काय म्हणटा? आगे म्हाजेर कितें आसा? घरा करतली काय म्हणटा? कोण जाणा? तेमच्या तेमी थारायलां न्हू. कितें नांव कितें घालतलीं काय म्हणटा? हेंचें नांव घालपाचें खरें, पूण तेमकां खंय जाता? आतां तेमचीं नवी नवीं नांवां न्हू. जाणटेल्यांची नांवा घालपाचे दीस गेले म्हणटाली तीं. कितें पयले अक्षर आनी निमणें अक्षर घालून दवर म्हणून सांगो? मावशीबाय तेमच्या कडेन कोण उलयतलो? नंडेन म्हाज्या म्हणलेले खंय, भाऊ जल्माक येयलो म्हणोन. तेन्ना सणसणोंक लागली खंय. तुजो भाऊ म्हागेर कसो जल्माक येतेलो काय म्हणोंक लागली खंय. जाणटेल्यांची नांवां घाली न्हू म्हणतकच ते पिडनात खंय भुरग्यांक. तेमच्या नावान कांयच ना. कितें करोन दवरलां तेमी? अशे बडबडत रावता गे ती. म्हाज्या चेड्याचें पयलें अक्षर दुसरें तेच्या बायलेचें आनी तिसरें तेज्या व्हडल्या चेडवाचें एकठांय करोन दवरतलीं म्हणोन नात सांगी म्हाका. तशींच दवरतात खंय. म्हणोक मागीर सुन्ना, मुन्ना, टिंकू, बबल्या, गुणा हीं आसतलींच. तें आसूं मावशीबाय. कितें आटवल बी घेता काय म्हणटा? तेंची पद्दत ना खंय न्हू घेवपाची. हांयेन म्हणलेलें तेका मेथेची पेज जेयल्यार बरी म्हणोन. पोर्त घेतल्यार पुरो. म्हाका आवडनात ती मेथी म्हणोंक लागली. आगे कितें सांगू चेडयाक, आंगाक तेलसुद्धां लावंक दिना. कानान तेल घायल्यार खंय तेमकां कानान आयकोंक येना. कितें म्हणटा? न्हाणोवन हाडटकच पावडर तरी लायता काय म्हणून? ना गे बाये पावडर लायल्यार खंय घाम ताच्या आंगाकच उरता. काजळ तर ती पांयाच्या तळव्याक लायता? कितें सांगू मावशीबाय तुमकां

आतांचे सगळेंच वेगळें? कितें? हय गे बाये आमगेर जाली ना भुरगी? 4-4, 5-5 भुरग्यांक जल्म दिलो ना गे आमी? जाणटेल्यांनी सांगले आनी आमी केले. हय मगे मावशीबाय. बरे गे मावशीबाय खंय पावली काय ही म्हण उलयतलीं. बरें गे बारश्याक वाड्यार सांगल्यार तुमकां सांगतलीच. ना जाल्यार नांव सांगूक येतां हांव तुमगेर पेडे घेवन. बरें गे येता हांव.







भारती सुदिन शेणवी कुंकळ्येकार

खुसखुशीत आनी विनोदाची धार
आशिल्लें 'आपउलोवप' हो एक
सांस्कृतीक कार्यावळीचो गरजेचो वांटो.
गरजेखातीर जायते जाण ती बरयतात. पूण
संग्रह करून दवरनात. बाय भारती
कुंकळ्येंकारान 'फुलवाती' हो
आपउलोवपां झेलो बरोवन कोंकणी
साहित्यांत मोलाची भर घातल्या. भारतीचे
लिखणेक विनोदाची धार आसा. म्हणून
समाजांतल्या धोंगा-पोंगाचेर बारकायेन
नदर दवरून ताचो फावो थंय उपयोग
करपाक ताका कळटा. ही ताक बाय
भारतीन आनिकय वाडोवन अशे तरेचें
चडांत-चड साहित्य निर्मूचें.

माया अनिल खरंगटे

जैत प्रकाशन